# अंग्रेजी हटाओ
# कशी आनी किद्याक ?

लोकराज्यांत लोकभास हीच
राजभास आसता.

लोकराज्यांत परके भाशेचें
राज्य आसूंच नजो.

सुरवात केलेबगर लोकभाशेंत
राज्य जावंक पावचें ना.

पयलें राज्य - उपरांत
लोकभाशेंतल्यान शिक्षण

राज्य आपले भाशेंतल्यान चलोवपाखातीर
आपलेच भाशेंतल्यान शिक्षण जावक जाय.

लोकराज्यांत, लोक राज्याचे धनी
शिक्षण-धनी जावपाखातीर - नोकर न्हय.

राजभास हेंच शिक्षणाचें माध्यम
जावंचें पडटलें.

नदर ना थंय सर्वनाश

डॉ. वेदप्रताप वैदिक

# अंग्रेजी हटाओ
# कशी आनी किद्याक ?

डॉ. वेदप्रताप वैदिक

अनुवाद
प्रकाश गं. थळी



**अंग्रेजी हटाओ : कशी आनी किद्याक ?**

© लेखक : डॉ. वेदप्रकाश वैदिक
भारतीय भाषा सम्मेलन-नवी दिल्ली-17

कोंकणी अणकार : प्रकाश गं. थळी

प्रकाशन क्रमांक : 136

1996

(साहित्य पसवण भागींक : भेट)

प्रकाशक : प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

छापणावळ : राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

मुखपृष्ठ : दीपक पेडणेकार

मोल : १० रुपया

❑ ही पुस्तिका म्हणल्यार दिल्लीच्या प्रभात प्रकाशनान १९९३ वर्सा उजवाडायिल्ले पुस्तिकेचो जशाक तसो अणकार हें वाचप्यांनी मतींत दवरचें.

— अणकारपी

❑ हे पुस्तिकेक 'भारतीय भाषा सम्मेलन' हे संस्थेन रु. ५०००/- चें अनुदान दिलां.

ISBN 81-85854-25-4

हे पुस्तिकेचे प्रेरणा - स्रोत

महर्षि दयानंद,

महात्मा गांधी

आनी

डॉ. राममनोहर लोहिया

हांच्या पांयांकडेन

अर्पण

# उज्याभाशेन...

'अंग्रेजी हटाओ' हो विचार ह्या देशांत रानांतल्या उज्यावरी फांकारूंक लागला अशें दिसता. शुध्द विचारांच्या पुस्तकाचें परतें परतें छापप आनी तीं हजारांच्या आंकड्यांनी भरपूर खपप ह्यो गजालीच अप्रूप आनी आपले आपुणूच जायतें कितें कितें सुचोवपी.

ही पुस्तिका पयले फावट १९७३ त छापिल्ली. 'अंग्रेजी हटाओ' भाशणांच्या ह्या ल्हानशा झेल्याच्यो धा हजार प्रती कांयच न्हय करून हातोहात खपल्यो. त्या वेळार हाचे जायते अणकारूय जाल्ले. पूण त्या सगल्या अणकारांच्यो प्रतीय कोणाच्या हाताक लागीं लागसार लागनाशो जाल्यो अशें म्हणल्यार जाता.

इतले मजगतीं प्रभात प्रकाशनान पावल घालें आनी १९८८ त ह्या पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती तांणी छापली. पयली आवृत्ती इंदौरांत छापिल्ली आनी दुसरी दिल्लींत छापिल्ली ही आवृत्ती देशाच्या खांचीकोनशांनी पावली. जंय एक प्रत पावली थंयच्यान आनीक शेंकड्यांनी प्रतींची मागणी येवंक लागली. सध्या जालां अशें, दर चार म्हयन्यांच्या काळांत हजारांनी प्रतींच्यो नव्यो आवृत्ती येत आसात. ह्या पुस्तकाचे मराठी, मलयालम आनी गुजराती अणकार लोकांनी आपूण जावन करून दिल्यात. ते स्वताच ते अणकार छापुनूय घेतात.

ह्या पुस्तकाचे उजवाडावपी सांगतात त्या हिसबान हे पुस्तिकेची लाखावी प्रत वाचप्यांमेरेन पावपाचो खीण पयस ना. हिंदी प्रकाशन वेवसांयांतलो तो एक खूब म्हत्वाचो दीस आसतलो.

पूण म्हाका तेन्नाच खरेली खोस जातली ज्या वेळार हें पुस्तक वाचपी लोक ह्या देशांत एक जबरदस्त चळवळ हातांत घेवन आंदोलन उबारतले. क्रांतिकारी विचार हे फकत बरोवन काडले आनी वाचले म्हणून भागना. तांकां आचरणांत हाडप हें चडांत चड गरजेचें मानूंक जाय.

**वेदप्रताप वैदिक**
ए-१९ प्रॅस एनक्लेव
नई दिल्ली ११००१७

# येवकार

खंयच्याच स्वतंत्र देशाक भुरग्यांक खंयचे भाशेंतल्यान शिकोवंचें आनी खंयचे भाशेंतल्यान आपणालो राजकारभार चलोवंचो हो प्रस्न पडला व्हय ? सगलेकडेन अेकूच नेम चलत रावला ; जे भाशेंतल्यान भुरगीं एकामेकांकडेन अुलयतात, खेळटात, झगडटात तेच भाशेंतल्यान तांकां शिक्षण मेळत रावलां आनी तेच भाशेंतल्यान देशाचो राजकारभार चलला. पुर्तुगालांत पुर्तुगेज ही शिक्षणाची भास, तशी राजकारभाराचीय भास जाल्या. जपानांत जपानींतल्यान भुरग्यांक शिक्षण मेळळां, तसो जपानींतल्यानूच देशाचो राजकारभार चलला. अरब देशांनी अरबी भास शिक्षणाची भास जाल्या, राजकारभाराचीय जाल्या. एका परस अदीक भासो आशिल्ल्या देशांनी लेगीत भुरग्यांक तांचे तांचे आवयभाशेंतल्यान शिक्षण मेळत रावलां, तांचे तांचे लोकभाशेंतल्यानूच राजकारभारूय चलत रावला. कॅनॅडांत दोन भासो चलतात : अिंग्लीश आनी फ्रँच. थंय दोनूय भासो शिक्षणाच्यो तशो राजकारभाराच्यो भासो जाल्यात. स्वित्झर्लंड हो येवरोपांतलो एक सुपुल्लो देश. ह्या देशांत जर्मन, फ्रँच, अिटालियी आनी रेतो रोमान ह्यो चार भासो चलतात. चारूय भासो शिक्षणाच्यो तशो राजकारभाराच्यो भासो म्हूण ह्या देशान मान्य केल्यात.

संवसारांत खंयचीच भास दुसरे खंयचेय भाशेआड वचूंक ना, तशी खंयचेच भाशेच्या माथ्यार वचून बसूंक ना. खंयचेच भाशेन खंयचेय भाशेचो शिक्षणाची आनी राजकारभाराची भास जावपाचो हक न्हयकारूंक ना, तसो काडून घेवंक ना.

सोवियत रशियेंत सुमार साठ भासो चलताल्यो. बोल्शॅवीक क्रान्ती जाल्या त्या वेळार हांतल्या कांय भाशांनी बरोवपाचीय चाल नाशिल्ली. सगल्यो बोली-रुपांतूच चलत अशिल्ल्यो. लॅनिनान ह्या भाशांक लिपयो दिलो. ह्याच भाशांतल्यान त्या त्या वाटारांतलो थळावो राजकारभार चलयलो. सगल्या भाशांक वाडपाची सारकी मेकळीक करून दिली. सगल्यांक एकठांय दवरपा खातीर, सगल्यांक अेकांमेकांकडेन जोडपा खातीर मॉस्कोच्या वाटारांतली रुसी भास 'संपर्क भास' म्हूण वेंचून काडली. सगल्यो भासो फुलत रावल्यो आनी सगल्यांक आपापणाले भाशे भायर आनीक एक रुसी भासूय येवपाक लागली. चीनानूय हीच देख घेतली. अठरां परस अदीक भासो ह्या देशांत चलतात. लिपी सगल्यांची अेकूच जाल्ल्यान अठराय भासो अेकिमेकिंच्या सांगातान वाडत आसात. त्या त्या वाटारांतल्या लोकांक ते ते भाशेंतल्यान शिक्षण मेळटा, तसो त्या त्या वाटारांत ते ते भाशेंतल्यान राजकारभार चलता. आनी सगल्यांक जोडपी पेचींगची चीनी सगल्यांक येता, सगलेकडेन चलता.

आमच्या शेजारच्या अिण्डोनेशिया देशांत तर अेक आगळो वेगळो प्रयोग केलो.

ह्यावूय देशांत चार-पांच भासो चलयल्यो. अिण्डोनेशिया स्वंतत्र जायनाफुडें देशाच्या कर्णधारांनी सगल्या भाशांक वाडपाची सारकी मेकळीक करून दिली. लोकांक शिक्षण ते ते भाशेंतल्यान दिवपाक सुरवात केली आनी ते ते भाशेंतल्यान तांचो राजकारभरूय सुरू केलो. आनी सगल्यांक एकठांय बांदून दवरपी मुखेल भास म्हूण देशांतली सगल्यांत ल्हान अशी एक भास वेंचून काडली.

भास हो लोकांचो प्राण. खंयचेय व्हड भाशेची पदवी फावता ती ल्हानांतले ल्हान भाशेक लेगीत फावो जावंक जाय ह्या तत्रांक धरुनूच अख्खो संवसार चलत आयला.

मागीर, आमच्या देशांत भास हो कित्याक लागून 'प्रस्न' जावन पडला ? भुरग्यांक खंयचे भाशेंतल्यान शिकोवंचें आनी खंयचे भाशेंतल्यान देशाचो राजकारभार चलोवंचो हो प्रस्न कित्याक लागून आयजूय- देश स्वंतत्र जावन अर्द शतक जालें तरूय-आमचे मुखार उबो आसा ? जे भाशेंतल्यान कोणूच येवजिना, जी भास कोणाचेच जिबेर घोळना, जी शिकले बगर कोणाक उलोवंक बरोवंक येना, इतलेंच न्हय तर, जी शिकुनूय कोणाक सारकी येना, ते परकी इंग्रजी भाशेंतल्यानूच भुरग्यांक शिकोवंक जाय, तेच परकी भाशेंतल्यान देशाचो राजकारभार चलूंक जाय म्हणपाचो हट कित्याखातीर आमचो देश घेवन बसला ? आमच्या देशांत आमच्यो अशो भासो नात व्हय ? अठरा भासो तर घटनेचे आठवे वळेरेनूच आसपावन घेतल्यात. साहित्य अकादेमीन बावीस भासो- साहित्याचे नदरेन म्हणपाच्यो भासो म्हूण - मान्य करून घेतल्यात. सगल्यो भासो हजारांनी वर्सां जावन देशांत घोळत आयल्यात, चलत रावल्यात. फाटल्या एक हजार वर्सां पसून कन्नड भाशेंत साहित्यनिर्मिती जायत रावल्या. तमिळ कन्नड भाशे परसूय पोरणी- तें कित्याक, वेदीक भाशे परसूय पोरणी. तमिळ आनी कन्नड भाशेंत साहित्यनिर्मिती जावपाक लागिल्ली त्या वेळार अिंग्रजी नांवाची भास संवसारांत जल्माक तरी अयिल्ली व्हय ? मराठींतली 'ज्ञानेश्वरी' बाराव्या शतमानांतली. आयजूय मराठी लोक ती वाचतात आनी आपणालें जिवीत घडयतात. बाराव्या शतमानातलें खंयचें अिंग्रजी पुस्तक आयज चलता जातलें ? खंयचें लोक वाचतात जातले ? कॅण्टरबरी टेल्स ? अिंग्रज लोकांचेर ह्या पुस्तकाचो कितलो सो प्रभाव पळोवंक मेळटा? मराठी लोकांचेर ज्ञानेश्वरीचो प्रभाव पडला ताच्या लाखाव्या वांट्याइतलो तरी पडला आसत न्हय ? कन्नड, तमिळ, मराठी, गुजराती, हिन्दी, बंगाली - आमची खंयचीच भास खंयच्याच आंगान अिंग्रजी परस अुणी न्हय. अमको एक विचार आमकां आमचे भाशेंतल्यान सांगूंक येवंचो ना अशें म्हणपाचो धीर कोणाक जावंचो ना. गिरेस्तांतल्यो गिरेस्त ह्यो भासो.

अेक खरें, विज्ञानाचीं पुस्तकां अिंग्रजींत मेळटात तशीं आमचे खंयचेय देशी भाशेंत मेळनात. पुणून - एक सांगात -अिंग्रजींत विज्ञानाचीं पुस्तकां केन्ना सावन मेळपाक लागलीं? दोनशें अडेजशें वर्सां पयलीं तीं नाशिल्लीं. ह्या दोनशें वर्सांमदीं तीं

आयल्यांत. आपणाले भाशेंत विज्ञानाचीं पुस्तकां आसूंक जाय अशें अिंग्रजांक दिसलें, तीं हाडचीं अशें तांणी थारायलें म्हूण तीं येवंक पावलीं. आमीय असो नित्शय केलो जाल्यार आमचें भाशेंत तीं येवंक पावचीं नात व्हय? आमचे कडेन विज्ञानीक नात व्हय? व्हडले व्हडले आसात. विज्ञानाचीं जितलींय आंगां आसूं येतात तितल्याय आंगांचे तज्ञ आमच्या देशांत आसात. तांणी नित्शय केलो जाल्यार सगल्यो देशी भासो विज्ञानाच्या पुस्तकांनीय गिरेस्त जावं येतात. अिंग्रजांकडल्यान आमी तांगेली भास घेतल्या तिचे बदला आमी तांगेली जिद्‌द घेतिल्ली जाल्यार देशी भासो ह्याय आंगान अिंग्रजीकडेन सर्त करपाचे योग्यतायेच्यो जातल्यो आशिल्ल्यो. जपानी भास सर्त करपी जाली ना व्हय? कशी जाली? जपानाकडेनूय विज्ञान नाशिल्लें. येवरोप-अमेरिकेकडल्यानूच ताणें तें घेतलें. तेंवूय अनमन नासतना घेतलें. आपणाकडेन विज्ञानाची अुतरावळ ना म्हूण तें घुटमळत रावलें ना. अुतरावळ निर्माण जावपाची आसतली तेन्ना ती आपशीं जातली, ते मेरेन वाट पळेत बसप ना, अशें ताणें थारायलें आनी अिंग्रजींत चलताली तेच अुतरावळीचो आधार घेवन ताणें भुरग्यांक विज्ञान शिकयलें. ऑक्सिजन आनी हायड्रोजन मेळटकूच ओ-मिझू (अुदक) जाता म्हूण सांगलें, वॉटर जाता म्हूण सांगलें ना. आनी हे भाशेन ताणें विज्ञान समाजांतल्या सगल्या थरांमेरेन व्हरून पावयलें. आमच्यांनीय अशेंच करूंक जातालें. पुणून आमी विज्ञाना पयलीं विज्ञानाची अुतरावळ तयार करपाक बसले आनी ती तयार करून दिवपाचें काम आमी विज्ञानिकां बदला शब्दकोशकारांच्या -Lexicographers च्या- हातांत दिलें. तांणी अुतरावळ तयार करून दिली, पुणून ती शिकयतल्यांकूय समजना, शिकतल्यांकूय समजना असले तरेची जावन पडली. विज्ञान शिकपा-शिकोवपा खातीर आमकां अिंग्रेजी भाशेचेरूच निंबून रावचें पडलें, ह्या द्राविडी प्राणायमा बदला, धरुंया, आमी विज्ञानिकांक शाळा कॉलेजांनी नोकरेर घेवंचे पयलीं 'तुमी तुमचे भाशेंत तुमच्या विशयाचेर अेक पुस्तक बरोवन दिले बगर तुमची नोकरी पक्की जावंची ना' म्हूण सांगिल्लें, जाल्यार विज्ञानाची देशी अुतरावळ जावंक जाय तेच तरेची येन्नासर तयार जावन मेळटली आशिल्ली. आनी भुरगींय विज्ञान शिकून मुखार सरतलीं आशिल्लीं. शिकयतल्याक विशय बरो येता आसत आनी भुरग्यांक तो सारको समजूंक जाय म्हणपाची तळमळ ताच्यांत आसत, जाल्यार अुतरावळ आपशींच ताचे सेवेक येवन हाजीर जाता. आमी हे वाटेन मुखार सरलेनात. अुरफाटे, विज्ञाना खातीर अिंग्रजी जाय अशें म्हणून अिंग्रजींतल्यान विज्ञान शिकोवपा बदला विज्ञानाच्या माध्यमांतल्यान आमी भुरग्यांक अिंग्रजी शिकोवपाक लागले. अिंग्रजी कोणाक शिकोवंची न्हय वा कोणेंच ती शिकची न्हय, अशें न्हय. संवसारांतली अेक गिरेस्त भास ही. अेक जनेल हें - जातूंतल्यान आमी संवसार पळेतात. पुणून अेक जनेल हें. खंयचोच शाणो मनीस आपणाल्या घराक अेक जनेल दवरिना. चार जनेलां दवरता. तेन्नाच धाय दिकांचीं वारीं ताच्या घरांत घोळूंक लागतात. अिंग्रजी भशेन फ्रँच, जर्मन,

स्पॅनिश, रशियन, अरबी, चीनी, जपानी, हिंवूय कांय जनेलां आमी आमच्या घराक काडूंक जाय आनी तीं अुकतीं दवरूंक जाय. जाल्यारूच संवसाराचें धाय दिकांचें रूप आमकां पळोवंक मेळटलें. अेकले अिंग्रजीचेर रावन अुपकारना. पुणून, त्यो त्यो भासो शिकोवप वेगळें आनी त्या त्या भाशांतल्यान शिकोवप वेगळें हो फरक आमकां कळूंक जाय. तो कळ्ळो ना म्हूण आमी अिंग्रजींतल्यान भुरग्यांक शिकोवपाक लागले. मोट्यांतली मोटी चूक ही अेक. पुणून-

ही चूक आमकां अिंग्रजांकडल्यान दायजान मेळिल्ली.

अिंग्रज ह्या देशांत वेपारा खातीर आयिल्ले. वेपार बरे भाशेन चलचो म्हूण ते हांगा राज्यूय करपाक लागले.

राज्य चलोवपाक तांकां प्रशासक जाय आशिल्ले. आनी राज्याची राखण करपाक सैनीक जाय आशिल्ले. ते खंयच्यान हाडटले ? अिंग्लंडांतल्यान ? धा बारा हजार मैल पयसल्यान प्रशासक, सैनीक हाडप, 'अव्यापारेषु व्यापार' जातालो. म्हूण तांणी शिक्षणाच्या आधारान 'देशी अिंग्रज' तयार करपाचें काम हातांत घेतलें. धोंगा-पोंगाचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, आपणाले 'गुलाम' निर्माण करपाचें काम सुरू केलें. राजकारभाराची भास म्हूण अिंग्रजी घेतली. न्यायदानाचें काम अिंग्रजींतल्यान सुरू केलें. शिक्षण अिंग्रजी माध्यमांतल्यान दिवप सभावीक करून अुडयलें. परिणामीं, तांकां जाय आशिल्लें तशेंच घडून आयलें - अिंग्रजी भास, अिंग्रजी साहित्य, अिंग्रजी आचार विचार, अिंग्रजी देखी, अिंग्रजी रुची (टेस्ट) आपणायल्ल्या ' देशी सायबां' ची अेक नवी जात देशांत वयर सरली. थोड्याच वर्सां भितर हे लोक अिंग्रजांकडेन अेकरूप जाले. तांचेच भशेन अुलोवपाक लागले, तांचेच भशेन न्हेसपाक लागले, तांचेच भशेन चलपाक-भोंवपाक लागले. हेरां परस आपणाक वेगळे- फकत वेगळे न्हय, तर व्हड- मानपाक लागले. 'आप जंयचें सगलें भश्टें, वंद्य परक्यांलेंच अुश्टें' मानपी ह्या लोकांनीच अिंग्रजांचें ह्या देशांतलें राज्य चलयलां आनी तिगोवन दवरलां. राष्ट्रवाद्यांक मारपाचें, बंदखणींत घालपाचें, गोळाक लावपाचें काम ह्याच लोकांनी केलां. हांचें मन नियाळून पळेलां तेन्ना हांकां आपले भाशेचो मोग ना, आपले संस्कृतायेचो आदर ना, देशाभिमान तर निखालूस ना म्हणपाचेंच दिसून आयलां. अिंग्रजी ही येवरोपी विचारांकडेन- म्हणुंया, विज्ञानाकडेन- आमचो संबंद जुळोवन दिवपी भास ह्या देशांत केन्नाच जावंक पावलिना. आमच्या लोकांक अिंग्रजांचे गुलाम करपी भास जावन पडली.

स्वराज्यांत हें सगलें बदलूंक जाय आशिल्लें. पुणून आमकां स्वराज्य मेळ्ळें तें सत्तांतराच्या रुपान मेळ्ळें. अिंग्रज हांगासरल्यान आपणालो फकत बावटो आनी राष्ट्रगितूच घेवन गेले. सत्ता ? जांच्या हातांत आशिल्ली तांच्याच हातांत दिवन गेले.

राष्ट्रवादी भारतानूय प्रधानमंत्री म्हूण अशे तरेचो अेक मनीस वेंचून काडलो कीं जो शें-प्रतिशत देशभक्त आशिल्लो, पुणून जो संस्कृतायेचे नदरेन अिंग्रजी भास, अिंग्रजी साहित्य, अिंग्रजी देखी, अिंग्रजी रुची हांचो अेक निष्ठावंत भक्त आशिल्लो. ताका फकत अिंग्रजूच हांगासरले गेल्ले जाय आशिल्ले. 'अंग्रेजियत' गेल्ली नाका आशिल्ली. ताणें 'आंतरराष्ट्रीयते'च्या नांवान हे 'अंग्रेजियती'कूच पोसवण दिवपाचें काम केलें. स्वराज्य मेळून आतां अर्द-शतक जायत आयलें, देश अजुनूय अिंग्रेजाळ्ळेल्या ह्या देशी सायबांकडेनूच अुरला. हेच लोक आपल्या हातांत सत्ता अुरची म्हूण अिंग्रजी माध्यमाच्या शिक्षणाक आनी राजकारभाराक घट्ट दसून रावल्यात. हांच्या राज्यांत जो अिंग्रजीचो पाखो घेता तोच 'प्रोग्रॅसीव' आनी 'लिबरल' जाता. आपले भाशेक जो वयर काडूंक वावुरता तो 'पॅरोकियल' आनी 'शॉविनिस्टीक' थरता आनी जो अिंग्रजी भाशेक राजकारभारांतली आनी शिक्षणांतली निखळावंक जाय म्हणटा ताका 'फॅनॅटिक' म्हूण पदवी मेळटा.

मेळूं. पुणून अेक गजाल सगल्यांनी लक्षांत दवरिल्ली बरी- संवसारांतलो खंयचोच स्वतंत्र देश विदेशी भाशेंतल्यान आपणालें शिक्षण आनी प्रशासन चलयना. फकत आमी चलयत आयल्यात. कित्याक, गुलामींत आमची वाड जाल्ली, अजून गुलामिंतूच अुरल्यात. गुलामीचो अितलो 'जाज्वल्य' अभिमान आशिल्लो देश संवसारांत दुसरो खंयच पळोवंक मेळपाचो ना. अुद्येगीक विकासान देश घटमूट जायना. ताची घटमूटसाण सैन्यबळाचेरूय निंबून उरना. देशाची प्राणशक्ती, ताचें खरें वैभव ताचे प्राणशक्तीचेर पुरायपणान आधारून अुरता. आनी प्राण-शक्ती लोकांचे भाशेंत आसता. जे भाशेंतल्यान भुरगीं अेकामेकांकडेन अुलयतात, खेळटात, झगडटात तेच भाशेंतल्यान त्या त्या वाटारांतल्या भुरग्यांक शिक्षण मेळूंक जाय. वेंचणुकां वेळार आमचे फुडारी जे भाशेंतल्यान लोकांकडेन मतां मागतात तेच भाशेंतल्यान त्या त्या वाटारांतलो राजकारभार चलूंक जाय. आनी -

देश भौभाशीक जाल्ल्यान सगल्यांक अेकठांय हाडपी अेकठांय दवरपी, सगल्यांची सेवा करपी हिन्दी सारकेली अेक देशी भास संपर्क भास - Link language - म्हूण वेंचून काडूंक जाय. साधु-संतांनी देशभर भोंवन हे भाशेक पयलींच संपर्क भास केल्ली. हालिंच्या काळार मुम्बय, कलकत्ता. मद्रास, बेंगळूरा सारकेल्या अुद्येगीक शारांतल्या झोपडपट्ट्यांनी रावतल्या तळागाळांतल्या लोकांनीय तीच आपणाली भास म्हूण चलयल्या.

भाशेच्या मळार हो बदल घडोवन हाडूंक आमी पावले नात जाल्यार बरोवन दवरिल्लें बरें - देश शें-प्रतिशत शिक्षीत केन्नाच जावंक पावपाचो ना, विज्ञान तळागाळामेरेन पावपाची निखालस आस्त ना. तें कित्याक, आमी देश स्वतंत्र दवरूंक पावतले म्हणपाचेंय खरेपण ना.

आपणाले भाशेची अुवेखणी करून वयर सरिल्लो अेक तरी देश संवसारांत आासा व्हय?

भाशेच्या मळार आमी जेन्ना 'पॅरोकियल', 'शॉविनिस्टिक', 'फॅनॅटिक' जातले तेन्नाच हो देश वयर सरतलो, तेन्नाच तो घटमूट जातलो आनी तेन्नाच तो आपणाल्या तेजान तळपूंक लागतलो.

कांय जाण 'पिशे' जाले बगर देश अिंग्रजीचे गुलामींतल्यान मेकळो जावपाचो ना.

वाचप्यांच्या हातांत आशिल्लें हें पुस्तक असल्याच अेका 'पिशान' बरयलां. डॉ. वेदप्रताप वैदिक अिंग्रजी आड आयुश्यभर संघर्श करीत आयल्यात. ह्या संघर्शांत तांणी कितलेशे खेपे बंदखणींची यात्राय केल्या. संघर्शा बगर ह्या देशांतलो भाशेचो प्रस्न सुटपाचो ना ह्या निर्णयार आयिल्ल्या डॉ. राम मनोहर लोहियांच्या संस्कारांत ल्हानाचे व्हड जाल्ले डॉ. वैदिक हे अेक कृतिशीळ विद्वान, अितलें सांगले अुपरांत तांची वेगळी वळख करून दिवपाची गरज अुरना. ह्या पुस्तकांत डॉ. वैदिकांच्या सुरां वांगडा डॉ. लोहियांचोय सूर आयकूंक मेळटा. तितलोच महात्मा गांधीचोय मेळटा. अिंग्रजी अर्दान लोक अुबे करतात तितल्याय मुद्द्यांक डॉ. वैदिकांनी सणसणीत बऱ्यो जापो दिल्यात. असलीं पुस्तकां कोण वाचपाखातीर बरयनात. 'येयात, म्हजे वांगडा तुमीय संघर्श करात' ही प्रेरणा दिवपा खातीर बरयतात. डॉ. वैदिकांचे हें पुस्तक हे तरेची प्रेरणा आमकां दिले बगर रावचें ना.

प्रा. प्रकाश थळी हांणी मूळ हिन्दींतल्या ह्या पुस्तकाचो कोंकणी अणकार करून कोंकणीची तर सेवा केल्याच, देशाचीय मोट्यांतली मोटी सेवा केल्या.

ह्या पुस्तकाक आमच्या संवसारांत हांव मनापसून येवकार दितां.

प्रियोळ - गोंय.

- रवीन्द्र केळेकार

# 'अंग्रेजी हटाओ' चो अर्थ

अंग्रेजी हटाओ ह्या उतरांचो अर्थ, आमकां इंग्लीश भाशेचो दुस्वास आसा, असो अजिबात न्हय. खंयचेय भाशेचो वा साहित्याचो दुस्वास फकत कोणूय पिसोच करीत. जर कोणूय आपखोशयेन इंग्लीश वा संवसारांतल्यो हेर भासो शिकूंक सोदीत, ताचे मार्फतीन आपणालें गिन्यान वाडोवंक करीत जाल्यार आमकां खोसूच जातली. पूण संकट केन्ना उपरासता ? गिन्यानाचें साधन म्हणून खंयचीय भास विशेशाधिकार वा एकाधिकारशाय गाजोवंक सोदता तेन्नाच ते भाशेक आमी माथ्यार बसूंक दिवंक जायना.

अंग्रेजी हटाओ हें आंदोलन हें इंग्लीशीचें न्हय जाल्यार तिका माथ्यार बसोवन घेवपाच्या विशेशाधिकाराचें, तिचे शोषणकारी प्रवृत्तीचें विरोधी आंदोलन. देखुनूच आमी म्हळां, 'अंग्रेजी हटाओ' म्हणल्यार इंग्लीशीक कडेक सारात. तिका ना-नपश्र्चात् करून काबार करात अशें आमी केन्ना म्हणनात.

जंय गोंयचो प्रस्न आसा, गोंय कोंकणीमय जावंक जाय. जर कोंकणी गोंयांत चललिना जाल्यार खंय लंडनांत चलतली ? न्याय, प्रशासन, शिक्षण, राजकारभार, लोकसंपर्क बी असलें खंयचेंच क्षेत्र अशें आसूंक फावोना, जंय कोंकणीचो प्रवेश वर्ज्य आसतलो वा ताजी इल्ली लेगीत अप्रतिशठा जातली. जर गोंयांत कोंकणीची अप्रतिशठा जायत वा उपेक्षा जायत जाल्यार गोंयाक 'गोंय' म्हणपाचो कसलोच अधिकार ना.

कांय क्षेत्रांनी कोंकणी सुवातेर अजुनूय इंग्लीश लादिल्ली आसा. आपले स्वभाशेच्या अभिमानाक लागून लाखांनी कोंकणी लोक हो अपमान किद्याक सोंसतात हें म्हाका समजना. जे भाशेन मों. सेबास्त्यांव रुदोल्फ, दालगाद पेद्रु कुर्रैय आफोंस, शणै गोंयबाब, बाकीबाब, लक्ष्मणराव, रवींद्रबाब, र. वी. पंडीत, असल्या विभुतींक निर्माण केल्यात ती भास एके विदेशी भाशे मुखार स्वताक हीन समजता ही गजाल अजापाचीच.

आतां प्रस्न असो, ही इंग्लीश भास खंयच्या खंयच्यान धुकलून कडेक काडपाची? ती न्यायालयांतल्यान कुशीक काडपाची, राजकारभारांतल्यान कडेक सारपाची, कारखान्यांतल्यान पयस करपाची, सैन्यांतल्यान भायर काडपाची, हॉस्पिटलांतल्यान हालोवपाची, शाळा-प्रयोगशाळांतल्यान उबारपाची, घर-दार, बाजारांतल्यान कुशीक धुकलपाची. तिका अशी कडेक काडल्यार ती खंय वतली ? वचुंदी तिका पुस्तकालयांत, विदेशी भाशा-शिक्षण संस्थांनी तिका आलाशिरो मेळूं. थंयूय तिणें आपणाले हातपांय पातळावन पथारी मारची न्हय. संवसारांतल्या हेर भासांखातिरूय तिणें इल्ली इल्ली सुवात रिती सोडची. सगले कडल्यान तिका कडेक सरचेंच पडटलें. कांयकडेन थोडें, थोडेकडेन इल्लें चडशें.

लुधियानांतल्या कांय प्राध्यापकभावांनी म्हाका सांगलें, 'अंग्रेजी हटाओ' ह्या उतरांक निशेधात्मकतेचो वास येता. हो एक 'नॅगेटीव' नारो, नकारात्मक स्लोगन. हांवें विचारलें तांकां : अहिंसा कितें तर ? अस्तेय कितें तर ? अपरिग्रह म्हणल्यार कितें ? अद्वैत कितें ? हे सगले निशेधाचे सिध्दांत न्हय काय कितें ?

महात्मा गांधींचो 'असहयोग' कितें सांगतालो ? इंदिरा गांधींचो 'गरीबी हटाओ' कसलो उलो ? हे सगले उले निशेधात्मकूच मूं ?

निशेधाक, न्हयकाराक भिंयेवं नाकात. सैमाच्या नेमाक समजून घेयात. विध्वंसाबगर निर्मणी जायना. ल्हानशें घर बांदतलो जाल्यार लेगीत बुन्याद ही खणचीच पडटा. खणपाच्याँ भयान जो बुन्यादूच घालिना ताच्या घराची आवतिकाय कितें जातली ? फाटलीं चाळीस वर्सां हिंदीची जी गत जाल्या तशीच जातली. हिंदीवाले लोक इंग्लीशीक कडेक काडिनासतना हिंदीक हाडूंक सोदताले. परिणाम कितें जालो ? इंग्लीश आपणाले सुवातेर घट उरली आनी हिन्दी तशोच हेर भारतीय भासो हांचेमदीं एक नकली, अडेची लडाय सुरू जाली.

हे असले अडेचे लडायेक 'अंग्रेजी हटाओ' आंदोलन विरोध करता. हो उलो समस्त भारतीय भाशांक एकठांय येवन इंग्लीशीच्या शेकाक विरोध करपाक घटमूट दोंगर कसो उबो रावपाचो संदेश दिता. तेमेरेन भारतीय भासो एकठांय येवंक पावच्यो नात.

## हिंदी थापटुपाचेर विरोध

'अंग्रेजी हटाओ' आन्दोलन आनी 'हिंदी चलाओ' आन्दोलन हातूंत मुळांतूच व्हडलें अंतर आसा. हिन्दी आन्दोलनवाल्या लोकांक दिसता, इंग्लीशांची सुवात हिन्दीन घेवंची. आतां तशें पळयल्यार इंग्लीशीवरीच हिंदीय सगल्यांच्या बोडार बसून, एकाधिकारशायेचो शेक चलोवंक फुडें सरू नजो ? पूण ह्या लोकांक हाजो हुस्को ना. परतें हिन्दीक फुडें काडून तांचो परिणाम असोय जावं येता की हेर भाशावाल्यांक नोकऱ्यांची, संदीची आनी फुडें सरपाची वाट कठीण जाली जाल्यार मागीर हिंदीक हाडूंक कितें फायदो ? तीय बी इंग्लीशीभाशेनूच देसांन विशमताय आनी असमानतायेक वाडीक लायतली. फरक इतलोच जातलो, आयज इंग्लीशीक लागून दोन टक्के लोक सबंद देशाक माड्डितात जाल्यार फाल्यां ४० टक्के लोक उरिल्ल्या ६० टक्के लोकांचेर अन्याय करतले. आमकां दरेका अन्यायाआड झुजपाचें आसा, तो मागीर ल्हानसो आसूं वा व्हडलो. आयज इंग्लीश जो वायट वावर, वेव्हार करता तसलो वावर हिंदीनूय करचो अशें म्हाका सोंसना. ताका लागुनूच हिंदीय सबंद देशाचेर बळयां थापटुंची हेवूय गजालीक आमचो विरोध आसा.

हाजो अर्थ असो जायना की आमी सबंद देशाक एकठांय करपी भाशेच्या प्रसाराचेर येवजूंक ना. अख्ख्या देशाक एकवटीत करपी भास खंयचीय एक भारतीय भास आसूं येता. पूण ह्या कामाक हिंदी सगल्यांपरस चड योग्य भास आसतली. कारण खंयचेय एके भाशेचे तुळेंत हिंदी उलोवप्यांचो आंकडो ह्या देशांत सगल्यांत चड आसा. हिजी लिपी - देवनागरी- सरळसोंपी आनी शास्त्रोक्त आसा. तेभायर भारताच्या सगल्यांत चड भौगोलीक वाठारांत हिंदी उलयतात. जेमेरेन हिन्दी देशांतल्या सगल्या भाशांक लागीं हाडटा तेमेरेन हिन्दीक फावो ती सुवात दिवपांत आमकां आडखळ ना. पूण हिंदी हेर भाशांच्या हक्काचेर पावल हाडटा अशें जावप मात बरोबर जावचें ना.

दरेका प्रदेशांत, त्या त्या प्रदेशाची भास पुरायेन चलूंक जाय. केंद्रांतूय प्रदेशांतल्यान येवपी लोकांक आपले आपले भाशेमार्फतीन नोकरी मेळोवप, संसदेत उलोवप, न्याय मेळोवप आनी शिक्षण घेवप हांचो पुराय अधिकार आसूंक जाय. उदरगतीच्या संदीचे बाबतींत हिंदी कोणाच्याच आड येवंक फावना. विगडविगड भासो उलोवपी लोकांमदीं संपर्क घडोवन हाडपाचेंच काम हिंदी भाशेन करपाचें. केंद्रीय सरकार आनी केंद्रीय संस्थानी हांचो आपलेभितरलो कारभार, वेव्हार हिंदींतल्यान चलचो, चलू येता. पूण साबार राज्यांतल्यान तांच्या तांच्या भाशांतल्यान येवपी पत्रांक, केंद्राकडल्यान वचपी जापो ह्यो ते ते प्रादेशिक भाशेंतल्यान वचच्यो. खंयचेच व्यक्तीक, संस्थेक वा प्रादेशिक सरकाराक केवळ हिंदींतलें प्राविण्य उणें पडटा ह्या निमताचेर फाटीं दवरूंक फावोना.

हो वावर उणया खर्चाचो आनी सोपो करचेखातीर दरेक सरकारी विभागांत कांय अणकारप्यांची तजवीज करची. एकाच वेळार तीन-तीन, चार-चार, पांच-पांच भासो जाणा जाल्ले अणकारपी हाताकडेन आसल्यार आनिकूय बरें जातलें. ह्या अणकारप्यांचेर जावपी खर्च सक्तीची इंग्लीश चलोवपांत जितलो येता ताजेपरस कितलोसोच उणो येतलो.

सोवियत संघ आनी युरोपांतल्या ज्या देशांनी जायत्यो भाशा चलतात थंयूय अशेंच करतात. खंयचोच देश अणकाराच्या भंयान खंयचेच विदेशी भाशेक आपणाल्या माथ्यार बसूंक दिना. देशी भाशांमजगतीं सांस्कृतिक आनी इतिहासीक फाटभुंयेंत सारकेपण आशिल्ल्यांनी तांचेभितर आपसांत परस्पर अणकार करप खूब सोंपे आसता आनी कांय वर्साउपरांत जायते लोक कांय भासो आपसुकूच शिकतात. मागीर अणकारप्यांची गरजूच पडना. देखीक स्वित्झरलँड आनी युगोस्लावियांत अशेंच घडलां.

हाजेर घडये कोणूय म्हणत की सरकारान राजकारभार चलोवपांत चड लक्ष घालचें काय आपणालो वेळ ह्या भाशांच्या घुस्पागोंदळाक जाग्यार घालपांत खर्चुंचो ? हांव विचारूंक सोदतां, तुमी जर लोकांचीं दुख्खां, गाराणीं तांचेच भाशेंतल्यान आयकुचे

नात, आनी तांचें निवारण तांचे निजी भाशेंतल्यान करचे नात जाल्यार मागीर खरे तरेन तुमी राजकारभार कसो कितें चलयतले ? अडेच्या प्रस्नांचें आनी फटीच्या समाधानाचें राजकारण फाटलीं चाळीस वर्सां ह्या देशांत सदांच चलत आयलां.

जर तुमी देशांतल्या सामान्य मनशाक विश्वास दाखोवन पटोवन दिशात, व्हडांतल्या व्हडल्या, उंचेल्या पांवड्यार लेगीत ताजे भाशेक तकली सकयल घालची पडचिना जाल्यार तो गरजेपुरती हिंदी शिकपाक मातूय अनमनचोना. आयज दक्षिणेंतलो मनीस हिंदीक कित्याक विरोध करता ? कारण फकत इतलेंच, ताका भंय दिसता आपणाली नोकरी वचत म्हणपाचो. संदींचे सर्तींत तो घडये फाटीं पडत अशी ताका भिरांत दिसता. हिंदीच्या आंदोलनान 'हिंदी,' 'हिंदी' अशो चड किळच्यो मारिल्ल्यान ह्या भंयाक घटसाण हाडल्या. ही भिरांत मुळासकट काडून उडोवंक जाय. जेन्ना इंग्लीश कडेक वतली तेन्नाच ही भिरांत नश्ट जावंक पावतली. इंग्लीश कुशीक सरल्यार उत्तर भारतीय लोक दक्षिणी भासो शिकतले. इंग्लीश भास जाग्यार उरल्यार उत्तर भारतीय लोकांक दिसता, तमिळ, तेलगु, कन्नड, मलयालम शिकून कितें करपाचें आसा ? इंग्लीशींतल्यानूच उलोवया. अशेंच तरेन दक्षिणवालेय येवजितात. इंग्लीशीन जर काम वेवस्थीत जाता जाल्यार हिंदी कित्याक शिकची ? अशो तरेन इंग्लीशीचे कृपेन उत्तर - दक्षिण हांचेमदीं खरेलो एकचार घडून येवंकूच पावना.

इंग्लीशीचे मार्फतीन जो एकचार, एकवट जाता तोवूय बी कितल्या लोकांभितर? २ टक्के लोकांभितर लेगीत न्हय. फकत ह्या २ टक्के लोकांचें काम बरे तरेन चलता. उरिल्ल्या ९८ टक्के लोकांचें काम थप्प जालां. तांच्या जिवितांत काळोखूच काळोख भरिल्लो आसा. ह्या काळख्या वाठारांत दक्षिण आनी उत्तरेकडले सगले सामान्य लोक आसपावतात. 'अंग्रेजी हटाओ' आंदोलन देशांतल्या कोट्यांनी लोकांक ह्या काळखांतल्यान भायर काडून उजवाडाकडेन व्हरूंक सोदता. तें उत्तर आनी दक्षिण हांचेभितर वा उदेंत आनी अस्तंत हांचेमदीं कसलोच भेदभाव बाळगिना. ताजेखातीर अख्ख्या देशांतली गरीब, गांवगिरी, दलित, पिडीत, दुबळी जनता एकूच आसा. तें हे सामान्य जनतेच्या भाशांक फुडें काडूंक सोदता आनी समाजांतल्या ल्हानांतल्या-ल्हान मनशांच्या काळजांत विस्वास जागोवंक सोदता की तो आपणाले भाशेवरवी देशांतले व्हडांतले व्हडले सुवातेचेर पावूंक शकता.

## मनीसकुळयेक मुक्तताय

ह्याच आदारान हांव म्हणटां की 'अंग्रेजी हटाओ' आंदोलन हें सबंद मनीस कुळयेचे मुक्ततायेचें आंदोलन. धर्तरेचे फाटीवयल्या खंयच्याय वाठारांत जर खंयच्याय

मनशाचे आत्माभिव्यक्तिची गची आंबुळपाचो यत्न जायत जाल्यार 'अंग्रेजी हटाओ' आंदोलन ओगी बसचें ना. देखुनूच ह्या आंदोलनान त्या त्या वेळार उदेंत पाकिस्तानांत बंगालीक, श्रीलंकेंत सिंहलीक आनी तमीळीक, अफघाणिस्तानांत पुश्तू आनी फारसीक, टांझानियांत स्वाहिलीक आनी उरुग्वायेंत गोरानी भाशेक सदांच तेंको दिला.

आमी अशें केन्नाच म्हणूंक ना की इंग्लंडांतल्यान इंग्लीश भाशेचें उच्चाटन करचें. पूण आमकां नक्कीच दिसता, थंय वॅल्श आनी आयरिश लोकांक आपणाले भाशेचो प्रयोग आनी उपयोग करूंक दिवंचो. आमकां अशेंय म्हणपाचें ना की अमेरिकेंतल्यान इंग्लीश भायरी जावंची पूण आमकां दिसता मात कि प्युएर्तोरिकी आनी इटलियी लोकांचेर इंग्लीश थापटुंची न्हय. आतां हिंदुस्तानांत योगायोगान इंग्लीश भास दमनकारी भूमिका घेवन आसा. ते सुवातेर फ्रँच, फारसी, हिस्पनी, डच आदी खंयचीय भास आसूं येताली. खंयचीय भास आशिल्ली जाल्यारूय आमी इंग्लीशीक आज जितलो विरोध करतात तितलोच करपाचे इतले मात खरें.

दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, अंग्रेजी हटाओ आंदोलनाचो मोख खंयचेय एक भाशेचो निखटो दुस्वास करप हो ना वा खंयचे भाशेच्या फाटल्यान बेठोच लागपाचोय ना. विरोध आसा तो दमनकारी प्रवृत्तीआड, शेक चलोवपाच्या हेता विरुध्द. कारण हांगा इल्ल्याशा लोकांचो चोमो कोट्यांनी लोकांच्या हिताआड येता आनी अशें करपांत एके भाशेक एक शस्त्र, हत्यार कशें वापरप जाता तें मात समा न्हय.

अंग्रेजी हटाओ आंदोलन खंयच्याच राजकी पंगडाचें आंदोलन न्हय. हातूंत सगल्या पक्षांचे, पंगडांचे, लेबलांचे, विचारांचे आनी धर्मांचे, साबार प्रांतांतले आनी सगल्या भाशांचे प्रतिनिधी हांचें स्वागत जाता. आमचीं दारां सगल्यांखातीर उकतीं आसात. जाका जाय ताणें भितर येवंचें.



# इंग्लीशीक कित्याक धांवडावंची ?

भारतांतल्यान इंग्लीशीचें उच्चाटन करतले जाल्यार आनी तें कित्याखातीर तें सिध्द करतले जाल्यार एक गजाल आमकां करची पडटली. सगल्यांत पयलीं, भारतांत इंग्लीशीची गरज आसा अशें दाखोवपाखातीर जे मुद्दे मांडटात तांच्यो रीतसर तिस्त्यो वादऱ्यो करून तांकां खोडून काडचें पडटलें.

## विश्व-भास म्हणपाचो भ्रम

हिंदुस्तानांतल्यान इंग्लीश गेली जाल्यार भारताचो हेर संवसाराकडलो संपर्क तुटटलो अशें कांय लोक म्हणटात. इंग्लीश हें एक जनेल जातूंतल्यान भारत संवसाराचेर नदर मारता. इंग्लीश एक विश्व-भास. इंग्लीशीक धांवडावंक सोदपी लोक भारताक एक संकुचीत देस करतले, एक बंदिस्त देस करून उडयतले.

अशे तरेचे मुद्दे कोण फुडें करतात जाणात ? जांणी इंग्लंड आनी अमेरिका हांचेभायर दुसरो खंयचोच देश पळोवंक लेगीत ना वा म्हणुंया जांणी आपणाल्या जिवितांत इंग्लीश सोडून दुसरी खंयचीच विदेशी भास वाचूंक लेगीत ना. बावड्या डबक्यांतल्या बेब्याची संवसाराची नदर अखेरेक केदीशी आसतली ? बांयंतल्यान भायर सरल्यारूच मूं ताका भायल्या संवसाराची वळख जातली ? हिंदुस्तानांतलो सर्वसादारण शिकिल्लो - सवरिल्लो मनीस इंग्लीश तालीम घेतिल्लो. फाटल्या दोनशें वर्सांसावन तो इंग्लीशींचे बांयंत रावून बेब्यावरी डरांव डरांव करीत आसा. ताका खबरूच ना की हे बांयच्या पेल्यान फ्रँच, जर्मन, रशियी, चीनी, हिस्पानी, जपानी आनी फारशी बी भाशांचो एक गिरेस्त आनी सोबीत रंगयाळो संवसार वसला.

इंग्लीशीवयल्या एकतर्फी मोगाचो परिणाम असो जालो की भारत आपणालो पयलींचो धनी इंग्लंड हाजेकडेन आनी नवो जाळवणदार अमेरिका हाजेकडेन (फाटल्या फाटल्यान रावपी ह्या नात्यान) बरे लागींचो संबंद दवरून रावलो. पूण हेर संवसाराकडेन आनी बाकीच्या देशांकडेन तांणी व्हडलीशी इश्टागत केल्ली दिश्टी पडना. इंग्लंडाचे पयलींचे कांय गुलाम देस देखीक पाकिस्तान, बर्मा, लंका, घाना आदी तशेंच जंय ब्रिटीश लोक वचून राबितो करून रावले असले देस देखीक अमेरिका, कॅनडा, ऑस्ट्रेलिया आदी देसांक सोडल्यार संवसारांतल्या हेर खंयच्याच देसांत इंग्लीशीचो वापर जायना. आनी पयलींच्या गुलाम देशांनीय बी इंग्लीश भास फकत नोकरशाय आनी इंग्लीशींचेर जांचो पींड पोसला इतलेचकडेन चलता. हांची संख्या सुमार २ टक्क्यां इतलीच आसूं येता. अशा वेळार इंग्लीशीक विश्व भास म्हणून मान्यताय दिवप म्हणल्यार सत्याक फाट

करप.

इंग्लीशीक विश्व-भास मानिल्ल्यान सगल्यांत वायट परिणाम जो जालो तो म्हणल्यार आमी संवसारांतल्या दरेका हेर देसावांगडा इंग्लीशींतल्यान वेव्हार करूंक लागले. जावं तो मागीर जर्मनी, रशिया, चीन वा हेर खंयचोय जाची भास इंग्लीश न्हय. दरेका दुयेंसाक आमी एकूच वखद दितात ती म्हणल्यार भायरी. हाजो परिणाम कितें जाता पळयात. श्रीमती विजयालक्ष्मी पंडित जेन्ना राजदूतपद ग्रहण करपाक रशियेक गेली तेन्ना तिज्या इंग्लीशींत बरयल्ल्या वळखपत्राक पळोवंन स्तालिन बेजारलो. ताणें तें उखललें आनी कडेक उडयलें, आनी विचारलें तुमकां तुमची अशी भास आसा काय ना? हाजोच परिणाम, ज्या देशांत आमच्या राजदुतांच्यो नेमणुको जातात, थंय आमचे राजदूत त्या देशांच्यो भासो शिकचेबदला इंग्लीशींतल्यान सगलो वेव्हार करपाचो यत्न करतात. त्या त्या देशांतले मुत्सद्दी कितें, कशें येवजितात, त्या देशांतले जनतेचो मतप्रवाह वा लोकमताचें वारें खंयचे दिशेन व्हांवता, त्या देशांतलीं खबरांपत्रां कितें बरयतात, छापतात, उकतायतात हें सगलें आमच्या राजदुतांक तेन्नाच सारकें बरें आनी खरें खरें कळटलें जेन्ना ते थंयच्या लोकांच्यो भासो शिकून घेतले.

चड करून कितें जाता, हे राजदूत दुभाशांचो आदार घेतात आनी तांचेमार्फतीन सुचोवण्यो आनी गुपीत माहिती मेळयतात. ना जाल्यार ते लंडन वा न्यूयॉर्कासावन इंग्लीशींतल्यान उजवाडा येवपी खबरांपत्रां तांच्या हांतांत पडसर पांयार पांय उडोवन सुसेगाद बसून रावतात. घडणुको हंगेरींत वा चॅकोस्लोवाकियांत घडूं, ह्या राजदुतांच्या धडधडीत दोळ्यां सामकार घडूं. बुडापेस्त आनी प्रागांत बशिल्ले आमगेले राजदूत त्या घडणुकांचेर तोमेरेन दिल्लीक रिपोर्ट धाडचेनात जेमेरेन तांकां लंडनी इंग्लीशींतलें विवरण वाचूंक मेळना. हाचे परस व्हडली विटणूक खंयची जायत ? हें अशें जावपाचें कारण ते भाशेचे बाबतींत अपंगूळ आसतात. ते इंग्लीशीच्या कुबड्यांबगर चलूंक शकनात. अडेच्यो कुबड्यो आतां खरेल्या निजाच्या पांय-दोंक्यांपरस चड आवडीच्यो जाल्यात, जी जनता आनी लोकसमूह कुबड्यांच्या आदारान चलता ती हजारांनी वर्सांची भोंवडी वा यात्रा केली तरी त्याच जाग्यार उरतली जंयच्यान तिणें पयलें पावल घालून सुरवात केल्ली.

इंग्लीशीक विश्वभास मानपाच्या भ्रमाक लागून आमच्या देशांतल्या बुदवंतांक आनी विचारवंतांक संवसारांत कितें चललां ताजी खबर खूब उसरां मेळटा. केन्ना केन्ना तर चुकीची, फटीचीय माहिती मेळटा. हाजें कारण ते नाका तितले इंग्लीश भाशेचेर पातयेवन रावतात. लॅटीन अमेरिकेंत जर कसलीय क्रांती जायत जाल्यार तिजी माहिती आमी बोलिविया वा क्युबांतल्यान येवपी हिस्पानी खबरांपत्रांवयल्यान मेळयनात. आमी त्यो खबरो इंग्लीश भाशेच्या विदेशी खबरांपत्रां आनी रेडिओ खबरांवयल्यान मेळयतात.

इंग्लीश खबरांपत्रां ह्यो बातम्योय छापिनात तेमेरेन त्या घडणुकांचे बाबतींत आमी अज्ञानी उरलेबगर आनीक उपाय नासता, कारण इंग्लीशीच्या भोंवऱ्यांत हिंदुस्तानांतलो मनीस हिस्पानी वा गोरानी भास काय शिकूंक वचना. तेभायर भायल्या देसांतलीं इंग्लीश खबरांपत्रां जेन्ना लॅटीन अमेरिका वा खंयच्याय हेर देशाची खबर छापता तेन्ना तीं आपणाल्या देशाच्या धोरणांप्रमाण त्यो खबरो जाय तशो घुंवडावन, तोडून, मोडून, कशोय छापतात.

चीनाचे बाबतींत आमच्या देशांत जायते अपसमज कित्याक लागून पातळ्ळे कारण एकूच, आमी चीनी खबरांपत्रां आनी नेमाळीं कांय वाचिनात. आं, एक मात, चीनाविशीं लंडन आनी न्युयॉर्काचे पेपर जें कितें छापून हाडटात तें आमी आसा तश्शें ताळ्यासकयल रकयतात. इंग्लीशीच्या एकाधिकाराक लागून आमकां भायल्या संवसाराकडेन पळयतना ब्रिटीश, अमेरिकी ओक्ल लावन पळोवंचें पडटा. आमचें स्वताचें अशें स्वतंत्र मत खंयचेच निःपक्ष वटेन जावंक पावना. जेन्ना संवसारांतल्या हेर देशांचे बाबतींत आमकां मेळपी माहितीच इबाडिल्ली वा रंगोवन बदलिल्ली आसता तेन्ना आमच्यांनी आमची अशी एक नितळ-निवळ बरी विदेश-निती कितें करून आमी घडयतले ?

इंग्लीशीक विश्व-भास मानून घेतकच एक परिणाम असो जाता, आमकां दिसता संवसारांतलें सगलें गिन्यान इंग्लीश भाशेंत आसा. खरें म्हळ्यार जायते अशे वाठार आसात जातूंत संवसारांतल्या हेर भाशांनी खूब फुडलीं पावलां घाल्यांत आनी म्हत्वाचो वावर केला. आमचेमेरेन एक तर ते पावचनात वा पावलेय जाल्यार उसरां आनी अणकारा वरवीं पावतात. आज विज्ञानाविशीं जितलीं पुस्तकां रशियीन भाशेंत आसात तितलीं संवसारांतले हेर खंयचेच भाशेंत नात. जर्मन भाशेंत जितले वयल्या पांवड्याचे दार्शनिक (फिलोजोफर - विचारवंत) जाले - काण्ट, हेगेल, मार्क्सा सारकेले- इंग्लीश भाशेंत जालेनात संवसारांतलीं व्हडलीं व्हडलीं खबरांपत्रां जपानी आनी रशियी भाशेंतल्यान उजवाडा येतात- असाई शिम्बून आनी प्रावदा-इंग्लीशींतल्यान न्हय. कला, संगीत, चित्रकारी, पोरणावळशास्त्र आदी विशयांचेर आज लेगीत फ्रेंच भाशेंत जितलें खोल आनी प्रचुर साहित्य मेळटा, तांचे तुळेंत इंग्लीश साहित्य म्हणल्यार सामकें कुस्कूट म्हणूंक जाय.

संवसाराच्या इतिहासाक सगल्यांत चड प्रभावीत करपी पुस्तकां - वेद, बायबल, कुराण, धम्मपद, झॅन्द आवेस्ता, दास कापिताल आदी - हीं लेगीत इंग्लीशींतल्यान बरोवंक नात. पूण ज्या लोकांचे मानगुटेर इंग्लीशीचें भूत बसलां तांचे नदरेन ह्यो सगल्यो गजाली अर्थहीन. तांकां शेत आनी खळें हातूंतलें अंतरूच कळना. तांचें नदरेन चर्चिल जर इंग्लीश आशिल्लो जाल्यार नेपोलियनूय इंग्लीशूच आसतलो. ग्लॅडस्टोन जर

इंग्लीश भास उलयतालो जाल्यार लॅनिनूय तीच भास उलयतालो आसतलो. जॉन स्टुअर्ट मिल जर इंग्लीश भाशेत बरयतालो जाल्यार प्लॅटो आनी ॲरिस्टॉटलूय इंग्लीशींतल्यानूच बरयताले आसतले. संवसारांतलें सगलें गिन्यान, साहस, शूरताय, प्रतिभा सगलें कितें तें इंग्लीशींतूच आसा अशें चिंतपी मेंदू एक ल्हानसो आनी संकुचीत भेजो आसचो पडटलो.

जो विश्वाकडेन उकतो संपर्क दवरूंक सोदता त्या मेंदवाचें एकूच इंग्लीशवालें जनेल उकतें जावंचें ना. इंग्लीशीचें जनेल उकतें जालें म्हणून आमकां कांय आडखळ ना. पूण प्रस्न असो, एका बऱ्या घराक फकत एकूच जनेल आसचें न्हय ! तेंच घर बरें जाका जायतीं जनेलां आसतलीं. चोंयवशींतल्यान मेकळें, नितळ, शितळ वारें येवंचें. जर एका जनेलांतल्यान घाण येवंक लागली जाल्यार दुसरेंय जनेल उकतें करूंक मेळूंक जाय. पूण हिंदुस्थानाच्या भाशेच्या भवनांत आमच्या बुदवंत शासकांनी फकत एकूच जनेल करून दवरलां. त्या जनेलांतल्यान बरो देखाव दिसता काय वायट, परमळ येता काय घाण, आमी तें उकतेंच दवरचें पडटलें.

इतलेंच न्हय, आनिकूय कांय गजाली आसात. ह्या भाशाभवनांत फकत एकूच जनेल आसा हें जालेंच, तेभायर ताका एकूय दार ना. दार नाशिल्ल्या घरांत खंयचोच सभ्य मनीस कशे तरेन रावत ? तें घर कसलें जातूंत भितर येवपाक आनी भायर सरपाक माकडावरी जनेलांतल्यान भायर भितर उडक्यो मारच्यो पडटात ? पूण ना. आमच्या राज्यकर्त्यांनी अख्ख्या हिंदुस्थानाक फाटल्या चाळीस वर्सांमदीं माकडांचे संस्कृतायेंत - सभ्यतायेंत घालपाचो प्रयत्न केला. फकत इंग्लीशीच्या आदारान आमकां संवसाराकडेन संबंद दवरून गिन्यान दवरूंक मेळटा, फकत इंग्लीशी वरवीं भारतांत कोणाकूय वयली सुवात मेळूंक पावता. आपले भाशेच्या दारांतल्यान आमकां संवसारामेरेन पावप जमना आनी आपणाल्याय देशांत वयरमेरेन पावूंक मेळना. वयल्या हुद्द्यार पावपाचें थंयच आसूं, ह्या देशांत हिन्दीचो सादो टायपिस्ट जातलो जाल्यार लेगीत इंग्लीशीचें गिन्यान गरजेचें.

एका जनेलाचें घर, घर कसलें घुडूच तो; ह्या एका जनेलाच्या घुडाक लागून जी माकडांची सभ्यताय देशांत फांकारल्या ताका लागून देशांतलो मुखेल बौध्दिक वर्ग दुसऱ्यांची नक्कल करपी जाला. ताचीं मतां, ताज्यो मनोधारणा, तांची विश्व-नदर अस्तंती साहित्यावयल्यान थारता. ताजें आपणालें निजी, स्वतंत्र मत कुंठित जालां. ताजी सृजनाची तांक आर जावन लुळी पडल्या. अस्तंती विशेशज्ञ जर भारताक 'फाटसारिल्लें' राष्ट्र म्हणटात जाल्यार आमचे जाणकारूय किरावरी तेच गजालीक 'हय सायबा' म्हणून तकली हालयतात. हालींसराक अमेरिकी जाणकारांनी भारताक 'नवें राज्य' म्हणपाक सुरवात केल्या. ताजें पळोवन-आयकून भारतीय नक्कलदार विद्वानूय भारताक 'नवें राज्य' म्हणूंक लागल्यात. तांकां खबर ना काय, जेन्ना हे धर्तरेर अमेरिका नांवाची वस्त नाशिल्लीच आनी लंडनांत जंगली जमे जनावरांवरी मारामारी करीत हांगा-थंय हेडटाले,

तेन्ना, म्हणल्यार आयजसावन सुमार दोन हजार वरसांपयलींय भारतांत विक्रमादित्याची पद्‌दतशीर राज्य-वेवस्था बरे तरेन चलची म्हणून 'अर्थशास्त्र' नांवाचो एक अद्वितीय ग्रंथ बरयल्लो तो !

हें सगलें खबर आसुनूय आमच्या बुदवंतांक, विचारवंतांक दर्शनशास्त्रांत, इतिहासांत, अर्थशास्त्रांत, राजनितीशास्त्रांत, अस्तंती उतरां आनी वाक्यां भरसूंचींच पडटात. कारण तांचें सगलें चिंतप आनी येवजुपाखातीर लागपी चडशी माहिती, खबरो, सुचोवण्यो अस्तंतेकडल्यान येतात, फकत इंग्लीशवाल्या देशांतल्यान येतात. समजात तांणी इंग्लीश चिन्तनपद्‌दतीक आपणायली आनी तातूंतल्यान येवपी कांय भिरांकूळ उतरां व मतांकडेन सहमत जावपाक न्हयकार दिलो. अशें केन्ना जाता व्हय ? जो गोड खाता ताका बोल (गोड पाव वा केक) खावंचोच पडटलो.

हिंदुस्थानी बुध्दिजिवी जर इंग्लिश भाशेक गोडावरी खायत जाल्यार घडये तो तें जिरयतूय. पूण तो तें अफूभाशेन खातात. अफू म्हणल्यार ताका परब्रह्म ! तेंच ताजें सार्वभौम सत तें एकूच कितें तें आसा बाकी कांयच ना ! बाकीचें सगलें कितें म्हणटात तें फट ! हाजो परिणाम तो आळशी आनी कामचोरपी जाता. तो सदांच दुसऱ्याल्या पोशान उदक पियेता, दुसऱ्यांच्या मताप्रमाण आपणालें जिवीत फुडें व्हरता. तो दुसऱ्याचो मिंधो, पांगो जाता. आपली वाट स्वता आपूण जावन सोदूंक मागिना. आपुणूच आपणालो उजवाडाचो दिवो जावंक सोदिना. ताजी सृजनशीलताय. चिकित्सक बुध्दि निष्क्रीय जावन पडटा. तो संवसारांतल्या साबार भाशांतली आनी साहित्यांतली सामुग्री समजून घेवन तातूंतल्यान पोल आनी आंशे कडेक काडपाची तांक वगडावन बसता. उदक आनी दूद वेगळावपाची ताजी विवेकबुध्दी नश्ट जाता. हाका लागुनूच फाटल्या दोनशें वर्सांमदीं आमच्या विद्यापिठांनी इंग्लिशीची इतली अपुर्बाय जावनूय आजमेरेन कोणूच शेक्सपियर, वा मिल्टन वा वर्डस्वर्थ तयार जावंक पावूंक ना. शेक्सपियराचें आसूंच, तो तर आनीक ५००० वर्सां तकली धाडायल्यार लेगीत जल्मा येवपाचो ना. शेक्सपियर वा तुळशिदास, वा सूर अथवा कालिदासासारकेले गुलाब आपणाली निजी माती, जमीन, आपणाली हवा आनी आपणाले स्वताचे भाशेंतूच फुलतात.

आं, आतां जिका तुमी 'विशव-भास' मानतात तातूंत क्लार्क मात खूब तयार जावं येतात जे खूब राटावळी, लटाफटी आनी कॉन्वॅण्टांच्या बरेपणान चडूच ते 'हय सायबा' ऑफिसर जावंक पावतात. भारतांतले बुदवंत, विचारवंत आनी बुध्दिजिवी लोक इंग्लिशीचो 'विश्व-भास' म्हणपाचो शेक मानून घेनासतना आनी तिज्या चेपणाखाला चिड्‌डनासतना तिका हेर विदेशी भाशांसमान एक उपेगी भास मानूंक शिकिल्ले जाल्यार घडये भारताचें खूब कल्याण जावपाचें.

# राष्ट्रीय एकचार आनी इंग्लीश

कांय लोक अशेंय उलयतना आयकूंक आयलां की इंग्लीशीक लागून अख्खो भारत एक उरला. जर इंग्लीशीक धावंडायली जाल्यार भारताचे कुडके आनी तिस्त्यो जावन पडटल्यो.

असल्यो अर्थहीन गजाल करपी लोकांक एक तर भारताच्या इतिहासाची सारकी खबर ना वा ते सत जाणा जावनूय चुकीच्या मार्गार पावल्यात. ब्रिटीश हांगा येवंचेपयलीं हो देस एक नाशिल्लो व्हय ? हजारांनी वर्सां पयलीं लेगीत कश्मीरी लोक रामेश्वरमाक वचनाशिल्ले आनी मद्रास, केरळचे लोक बद्रीनाथ आनी पुरीक वचनाशिल्ले तर ? उत्तर आनी दक्षिणेंतल्या ह्या लोकांक इग्लीश भाशेच्या आदारान बांदून दवरिल्ले व्हय ? केरळांत जल्मा आयिल्ल्या आद्य शंकराचार्यान चारूय दिशांभितर जो धर्मप्रचार केलो तो कितें इंग्लीशींतल्यान ? भारतांत कदीम काळासावन चलत आयिल्ली शीव-पार्वतीची प्रेमगाथा आनी काणयो पयलीं कोणें इंग्लीश भाशेंत बरयल्ल्यो व्हय ? इंग्लीशीचो पाखो घेवपी लोकांकडेन ह्या सगल्या प्रस्नांचेर फावोशी एकूय जाप ना.

आं, तांच्यांनी एक म्हणूं येता, ब्रिटीशांनी पुराय भारतांत रेल्वे पातळायली, रस्ते केले, पोस्ट-तार वेवस्था फांकारायली आनी ह्या सगल्या तंत्राक इंग्लीश भाशेन गुथून, बांदून दवरलें. पूण आमकां कोणेंय हें सांगचें, ब्रिटीशांनी रेल्वेचे रूळ कित्याक घाले ? रस्ते कित्याक तयार केले ? पोस्ट-तार किदयाक चलयले ? जर ह्या प्रस्नांचीं सारकीं उत्तरां मेळत तर 'एकवटाची सांखळ' इंग्लीशीचें रहस्य आपले आपुणूच उकतें जातलें.

हांव ८-१० वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना म्हज्या सोयऱ्यांक मेळपाखातीर म्हजे आजयेवांगडा आगर म्हणटात थंय वतालो. आगर हो उज्जैनालागींचो एक ल्हानसो गांव. भुरग्यांचे खेळपाचे ल्हानशे रेल्वेगाडयेंत बसपाक म्हाका खूब मजा येताली, पूण हांव सदांच येवजितालों, आग्रा सारकेल्या ल्हानशा जाग्यार ब्रिटिशांनी रेल्वे किदयाक हाडला? हें कुवाडें खूब दिसांउपरांत सुटावें जालें.

म्हाका कळ्ळें, आग्रा गांवांत ब्रिटीशांची एक लस्करी छावणी आशिल्ली. जंय जंय म्हणून ब्रिटीशांनी आपणाल्यो फौजो दवरिल्ल्यो, जावं तें आग्रा, महू आसूं, अम्बाला वा नीमच, सगल्या सुवातांनी रेल्वेचें आनी डांबरी रस्त्यांचें जाळें विणून दवरिल्लें. जंय खणी आशिल्ल्यो थंयमेरेन लेगीत रेल्वे आनी रस्ते पावयल्ले. थंयच्यान ब्रिटनांतल्या कारखान्यांक कच्चो म्हाल मेळटालो. आनीक कित्याक न्हय. ब्रिटीश हिंदुस्थानी लोकांक एकठांय हाडूंक सोदताले म्हणून न्हय जाल्यार हें केल्लें तांच्या फौजांक एकेकडल्यान दुसरेकडेन बेगीन पावपाक सोंपें जावन ब्रिटिश साम्राज्याआड उठपी आवाज रोखडोच बंद उडोवपाक बरें पडचें म्हणून. तेचप्रमाण मॅनचॅस्टर, लंकाशायर आनी बर्मिंघमच्या

कारखान्यांतली मिशिनां भारतीय कच्चो म्हाल पचोवन ब्रिटीश साम्राज्यवादाची आस्पत आनी अर्थीक गिरेस्तकाय पक्की करप सोंपें जावंचें म्हणून. आपणाल्या साम्राज्याची खुशाली आनी घटाय आनिकूय मजबूत करचेखातीर ब्रिटिशांनी जें तंत्र आपणायल्लें तें चलोवपाखातीर तांकां एका प्रशासनाचीय गरज आसली. प्रशासनाक एकठांय दवरपी एक भास जाय पडली. तें काम इंग्लीशीन केलें.

इंग्लीशीन ओर्दी दिवपी मनशांक एकठांय दवरले, शासकांक एकठांय हाडले, साम्राज्याच्या राखणदारांक लागीं केले. इंग्लीशीन जनतेक केन्नाच एकठांय हाडूंक ना, देशाक केन्नाच एकवटीत करूंक ना. देशांतले जनतेचे नदरेन, सर्वसादारण दुबळ्या मनशाचे नदरेन इंग्लीश एक आपलीच, जगावेगळी, अनवळखी भास. पहलगांवांतल्या गल्ल्यांनी भोंवपी भाडेली वा कुली आनी कन्याकुमारीचे धर्मशाळेंतलो शिपायक एकूच भास उलयता पूण ती इंग्लीश न्हय, निखालस न्हय. ज्या वेळार लॉर्ड मॅकॉलेन भारतांत इंग्लीश शिक्षण सक्तीचें करपाची तरफदारी केली तेन्ना ताजो हेत हिंदुस्तानांत एकचार घडोवन हाडपाचो नासलो. ताजो हेत आसलो इंग्लीश शिक्षणावरवीं नोकर आनी क्लार्कांची एक फौज तयार करप जाचे खांबे म्हणल्यार घटमूट ब्रिटीश साम्राज्याचे गडगंज स्तंभ जावन उरचे. नोकरांचो, ऑफिसरांचो, क्लार्कांचो आनी फौजी ओर्दी दिवप्यांचो एकचार म्हणजेच जर देशाचो एकवट आसत जाल्यार ब्रिटीशांनी नक्कीच ह्या देशाची व्हडली 'सेवा' केल्या म्हणूंक जाय.

हेच ऑफिसरांचे एकतायेक लागून १८५७ तलो स्वाधीनता संग्राम म्हणल्यार बंड आनी उठाव जालो. ह्याच ५०-६० हजार लोकांच्या एकचारान देशांतल्या कोट्यांनी लोकांक बंदेपणाच्या फांसान बांदून दवरले ! ह्याच एकवटान ब्रिटीश साम्राज्याच्या हीन कर्तुबांचेर एक व्हडलो पड्डो पातळावन दवरला. होच तो एकचार, जाणें एके वटेन बनारसच्या जन-आन्दोलनाक लाठयांनी दामून उडयलें; जाल्यार दुसरे वटेन जालियांवाला बागेंतले जनसभेंक आर्माच्या गुळयांनी काबार केलें. बनारसचे तोणके आनी अमृतसराच्यो गुळयो हांकां एकचाराच्या धाग्यान बांदपी भास इंग्लिशूच आशिल्ली.

हिन्दुस्थानाचे सुटकेखातीर झुजपी लोक जेमेरेन इंग्लीशीच्या आदारान उबे आसले, तेन्ना ते स्वातंत्र्याचीं मेकळीं गितां मेकळ्या ताळ्यान गांवचे सुवातेर साम्राज्याक बांदून घेतिल्लीं गायनांच गायत उरले ! स्वातंत्र्याचो संघर्श हो कांय कूलवान, शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या लोकांचो बुध्दीचो आनी फकत कल्पनाविलासाचो खेळ जालो. गांधीजीन हें दुश्टचक्र मोडलें. दयानन्दान पयलींच हुंकार करून उलो मारिल्लोच. गांधीजीन काँग्रेसीक चर्चा-भासाभास हांच्या सालांतल्यान ओडून देशाचे कोटी-कोटी, दुबळे, गांवगिरे, पिडीत जनतेच्या दारासामकार हाडून उबी केली. देशी भाशांतल्यान भाशणां जावंक लागलीं, काँग्रेसीचे विचार आनी प्रस्ताव पयस, देशाच्या खांची कोनशांनी, खोपींनी

पावले. ज्या अधिवेशनांनी पयलीं मेकळो वारोच चडसो खेळटालो ते सुवातेर हजारांनी - लाखांनी लोकांची खेट आनी गर्दी दिसूंक लागली. भारतीय भाशांनी देसांत स्वाधीनतायेच्या बळग्याक एकठांय हाडलें जाल्यार इंग्लिशीन पराधीनतायेच्या शक्तींक घटाय मेळोवन दिली.

इंग्लीशीन पराधीनतायेच्या शक्तींक घटाय हाडली, इतलेंच न्हय, वयल्यान भारतीयांक भारतीयांपासून वेगळे काडले, तांकां दोंशीं केले. साबार, विंगडविंगड भाशांमदीं जो पूल जावंक जाय आशिल्लो, ताजे सुवातेर इंग्लिश एक अडेची संपर्क-भास जाली. इंग्लीशीची उपस्थिती आनी तिका मेळिल्ल्या राजाश्रयाक लागून भारतीय भासो आनी प्रादेशिक संस्कृतायो हांचेमजगतीं जें मेकळें दिवप-घेवप जावंक जाय आशिल्लें तें थांबलें आनी ताजे सुवातेर एक सामकी अडेची, उखलापी, असभावीक प्रक्रियां सुरू जाली. हाका लागून बनारस आनी बेंगळूर हांचेमदीं जितलें लागशिलेपण आसलें ताजेपरस चड आपलेपण बनारस आनी लंडन हांचेंमदीं प्रस्थापीत जालें. बनारसा सावन बेंगळूराक वचपी वाट लंडनच्यान वचूंक लागली. हिंदी आनी कन्नड हांचेमदीं, बंगाली आनी तमीळ हांचेमदीं, मराठी आनी मलयालम हांचेभितर इंग्लीशीचो दलाल येवन उबो रावलो. भारतीय भासो आनी प्रादेशिक संस्कृतायो हांची एकामेकांकडली वळख सरळ जायनासतना फातर्पेंच्यान गोंय लागीं जाल्लेवरी इंग्लीशी वरवीं जावंक लागली. भारतीय भाशांमदल्या मुळांतल्या एकचाराक इंग्लीशीन संपर्काच्या पांवड्यार हाडून बांदून दवरलो. इंग्लीश जर हांगाच्यान भायरी जायत जाल्यार भारतीय भाशांक वेगळावपी तीं तत्वां आनी सांखळ्यो मदीं येतात त्यो आपसुकूच गळून पडटल्यो. भारतीय ज्ञानपीठ हे दिशेन खूब उपयोगाचें बरें काम करता.

इंग्लीशीन जो दुसरो वेगळोचार तयार केला तो जाल्यार आनिकूय भिरांकूळ म्हणचो पडटा. तो म्हणल्यार - जनता आनी नेता हांचेमदीं, राजा आनी प्रजा हांचेभितर, धवाडे लोक आनी सर्वसादारण जनता हांकां दोशीं - तिशीं काडून वेगळे केल्यात. इंग्लीशीन खणून दवरिल्लो हो फोंड जेमेरेन कायम उरत तेमेरेन समाजवाद आनी प्रजातंत्राचीं आमचीं सगलीं कवळीं सपनां जमनीखाला पावतलीं.

## समाजवादाक बादक

इंग्लीशीन आमच्या देशांत विशमतायेक वाव दिला. आमच्या देसांत जी आर्थिक विशमताय दिसता तिजें एकलें एकसुरें कारण इंग्लीश भास अशें म्हाका म्हणपाचें ना. पूण एक गजाल सामकी खरी की विशमतायेक खतपाणी घालून तिका तिगोवन दवरपाच्या कामांत इंग्लिशीचो पुराय तेंकोच मेळ्ळा.

विशमतायेचें बीं इंग्लिश शिक्षणा वरवीं भुरग्यांमदीं सुरवातेकूच रुजत येता. थोडींशीं भुरगीं कॉन्वॅण्टांनी शिकतात आनी हेर सगलीं देशी भाशांच्या शाळांनी. हाजें कारण बुध्दीची तांक हें न्हय जाल्यार आवय-बापायची खर्च करपाची तांक, अर्थीक बळगें. ते जर चड खर्च करीत, १०० वा २०० वा ३०० रुपया म्हयन्याक फी फारीक करूंक लागत जाल्यार तांचींय भुरगीं 'एकदम बऱ्या' स्कुलांनी शिकूंक पावतलीं. ना जाल्यार देशांतल्या उरिल्ल्या भुरग्यांक 'खालत्या दर्ज्याचीं' स्कुलां आसातूच न्हय ? 'कॉन्वेंन्टां'चीं खाशेलपणां खंयचीं ? कसलें 'व्हडपण' वा 'श्रेष्ठत्व' आसा तांचेमदीं ? कॉन्वॅण्टांनी झगझगीत, गिरेस्त, झेतार पोशेग, आरामशीर, सुसेगाद मेजां-कदेलां - बांक, खेळ आनी मनरिझवणीं उपाट साधनां, आनी घराकडल्यान येवपाक-वचपाक वाहनांची वेवस्था आसता. पूण तांचो खरेलो आत्मो वा म्हणुया गर, गाबो म्हणल्यार इंग्लीशींतल्यान शिकप हेंच ! हें इंग्लीश माध्यमांतलें शिकप, भुरग्याक चड हुशार करता, प्राविण्य दिता, ताजी बुध्दी तल्लख करता वा ताजी विचारशक्त वाडीक लायता अशें काय दिसना. वयल्यान सगल्यांनीच मानून घेतलां तेप्रमाण इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकप म्हणल्यार पोपटपंची, किरावरी घोकंपट्टी. भुरगीं फकत नकलाकार आनी आळशी जातात. तरीय भुरग्यांले आवय-बापूय आपणाल्या भुरग्यांक कॉन्वॅण्टांनी घालपाक कित्याक इतले आशेतात काय ?

फकत इतलेच खातीर, इंग्लीश हो एक पूल जो शिक्षणाक नोकरेकडेन संबंद जोडून दिता. दरेक आवय-बापायक दिसता, आपणाल्या भुरग्यान ह्या पुलाचेर चडचें. भारतांतले दरेके व्हडले नोकरेक, पदाक, फायद्याक, एक सभ्य आनी सुसंस्कृत जिवीत जियेतलो जाल्यार इंग्लीशीक अनिवार्य करून दवरल्या. हे अनिवार्यतेक, सोंसचेखातीर, ही सक्ती मानून घेवंचेखातीर आनी तातूंतल्यान बरेपणीं पलतड मारचेपासत आवय-बापूय भुरग्यांक 'कॉन्वॅण्टां'नी घालतात. कोण कोण आपणाल्या भुरग्यांक 'कॉन्वॅण्टां'नी धाडूंक शकतात ? कितल्या लोकांक तांक आसता ? फकत मूठभर लोक ! होच ल्हानसो वर्ग पयलींसावन सुविधासम्पन्न जाता आनी तांचे फाटल्यान येवपी फुडले लोक नव्या सुविधांचेर उरिल्लो शेक गाजोवंक लागतात. सामान्य शाळांनी शिकपी असंख्य सर्वसादारण भुरग्यांक वयर सरपाची उमेद उरना, उदरगतीचो भरवंसो ना, आशेचीं किरणां झळकनात. सगल्या सूख-सुविधांचेर, सवलती, सोंपेपणांचेर, संदींचेर कब्जो करपी सातत्य, पिळगे फाटल्यान पिळगी अशें चलत आयलां. ही समाजवादाचीं फकाणां, पुराय विटंबणा.

सुविधासवलती आनी संदींची ही लूट चालूच उरप आनी जनतेमुखार भोळेपणाचें एक रुपडें उरप ह्या चमत्काराक, हे कसरतीक तिगोवन धरपाखातीर इंग्लीश स्कुलांचो भरपूर हातभार लागता. इंग्लीश स्कुलांनी वचपी भुरग्यांच्या शिरंत्रांनी भुरगेपणांतूच हे

असमानतायेचें वीख भरसप जाता. हे भुरगे आपणाक मागीर कुंवर, राजकुंवर, वेगळेच उंचेले जातीचे अशे समजुपाक लागतात. देशांतल्या हेर तमाम कोट्यांनी भुरग्यांक ते कुस्कुटावणे नदरेन पळोवंक लागतात. खरेपणीं हे भुरगे चड विद्वान आनी हुशार आनी बाकीचे भोटे असो कांय हाजो अर्थ नासता. जो फकत पाठ करता, पोपटपंचीचेर वयर सरता तो कांय निजाचो बुध्दिमान जावं नजो. इंग्लीश स्कुलांतसून भायर सरिल्ले भुरगे मागीर पोको झेत दाखोवपाखातीर तरेतरेचे भेस, भासो, फॅशनी आनी नखरे करूंक लागतात. उण्यो सुंदर दिसपी बायलो भांगरां-शिंगरां घालून नटून थटून मुरगटत भोंवतात ते भाशेन आपणाले बुध्दीचें उणेपण धांपून दवरपाखातीर ह्या कॉन्वॅण्टवाल्या भुरग्यांक असलीं नाडेपेन्नां करचीं पडटात. दुर्दैवाची गजाल म्हणल्यार आमच्या समाजवादांत भांगराचें मोल खरेले सुंदरकायेपरस आनी सुरुपायेपरस चड थरलां. नोकऱ्यांचे बाबतींत, फुडाराचे संदींचे बाबतींत खरेले बुध्दीचो कस लागचना, योग्यतायेची परिक्षा जायचना. फकत इंग्लीशीच्या गिन्यानाचोच कस लागला.

आमच्या सैन्याच्या परिक्षांनी कितें आसता जाणात ? इंग्लीश भाशेची परिक्षा सक्तीची आसता आनी हेर भाशांच्योय परिक्षा इंग्लीश माध्यमांतल्यान घेतात. इंग्लीश भाशेचो खरें म्हणल्यार सैन्याकडेन कसलो संबंद ? संवसारांतले व्हडले व्हडले सैनिकी - जनरल मातूय इंग्लीश भास नकळो ! चेंगिजखान, बाबर, नॅपोलियन, शैबानी खान, रोमेल, मार्शल ग्रॅचको आनी जनरल गियापा सारकेल्या लोकांचें सैनिकी शिकप कितें इंग्लिशींतल्यान जाल्लें व्हय ? सैन्यांत खरें म्हणल्यार शूरतायेची, फुडारीपणाची, देश-भक्तीची, नेमबाजीची, कुडीचे घटायेची आनी तांकीची तशेंच दुस्मानाआड झुजपाक फावोशी रणनिती आपणावपाचे हिकमतीची परिक्षा जावंक जाय. आमचो कोणूय जवान ह्या सगल्या गजालींनी निपूण आसा पूण ताका इंग्लीश भास जर येना जायत जाल्यार तो ऑफिसर जावंक पावना. तो एक शापीत प्राणी कसो अखेरेमेरेन सादो जवानूच उरता.

एक सादो जवान आनी वयलो अधिकारी हांचेमदीं भूंय-मळबाचो फरक उरता हें सांगपाची गरज ना. ही असमानताय वयर सांगलां तेप्रमाण दुख्खार दागण्यो वा घायार मीठ चोळिल्लेवरी जावन उरता. कारण ऑफिसरांच्या पदाखातीर, जांचेर जवानांचे तुळेन १०० जाल्यार ऑफिसरांचेर १००० पटींनी चड खर्च जाता. तीं वयलीं पदां मागीर फकत कॉन्वॅण्टांनी इंग्लीश शिकून वयर आयिल्ल्या मनशांकूच राखून उरतात. जो कॉन्वॅण्टांत शिकला, जो सटासट इंग्लीश उलयता आना आपणाल्या पयलींच्या विदेशी धनयाची सारकी बरी नक्कल करता ताकाच हो भोवमान आनी सुखां - सुविधा मेळूंक पावतात. गरिबांचे भुरगे आसातात ते बावडे 'डिफॅन्स ॲकेडेमी'च्या परिक्षांक बसपाक फुडें येवपाक भिंयेतात. योग्यताय ही एका ल्हानशा वर्गाची मक्तेदारी, एकाधिकारशाय जावन पडल्या. हो वर्ग सबंद देशाचेर आपणाली सावळी आनी सांवट घालून आसा.

हातूंतल्यान आमी समाजवाद कसो कितें हाडटले ? एक समानतामूलक समाजाची निर्मिती करूंक सोदपी लोकांचें जनतेकडेन कितेंय तरी, इल्लें पूण नातें आनी संबंद आसूंक जाय. पूण राज्यकर्तो वर्ग जो आसा म्हणल्यार जो खावन-जेवन सुखी, गिरेस्त, भरिल्ल्या पोटान धेंकर दिवपी, शारांनी रावपी, जो नीत आनी पद्‌दत थरयता, तो आज जनतेपासून सामको पयसावन पयस खंय तरी शेणला. जेन्ना ते ल्हान भुरगे आसतात तेन्ना वेगळ्या वेगळ्या स्कुलांनी शिकून वयर सरतात. जेन्ना तांगेर भुरगीं जातात तेवूय त्या स्कुलांनी शिकून येतात. ह्या वयल्या धवाड्या वर्गाक, पांखें गळपी, वा तापिल्ल्या पत्र्याच्या पाख्यापोंदा मातयेचे जमनीर वा साकार बसून शिकप म्हणल्यार कितें तें मातूय खबर नासता. मुताची घाण आनी क्लासींतलें शिकप हांचो संबंद हांकां केन्नाच उणो कळपाचो ना. सामको उणो पगार घेवपी दळडिरे मास्तर आपणाले घरचे कठीण परिस्थितीचो आनी भिरांकूळ आवतिकायेचो राग स्कुलांत येवन आपणाचेर काडटा अशी कागाळ ह्या गिरेस्त, धनी वर्गांतलो भुरगो घरा येवन आपणाल्या बापायकडेन कशी करीत ?

आमच्या देशाच्या धोरण आंखप्यांक आनी पद्‌दत थरोवप्यांक असले कठीण परिस्थितींतल्यान केन्ना वचचें पडना. देखून थरावीक, वेंचीक स्कुलांचेर हे कोट्यांनी रुपया खर्चितात. आनी कोट्यांनी भुरगीं ज्या स्कुलांनी बावडीं भयानक वातावरणांत शिकतात तीं उपेक्षेचे भकीक पडटात. ज्या दिसा देशांत एकूय 'कॉन्वॅण्ट' दिसचें ना आनी शासक वर्गांतलो भुरगो सादे, पत्र्यांच्या पाख्याचे शाळेंत शिकूंक लागतलो, ज्या दिसा तो शाळेंतल्या काळखाची, घाणीची, मारफाराची चर्चा घरच्यांवांगडा करतलो त्याच दिसा ह्या देसांतल्या शिक्षणाचो नकाशोच बदलतलो. ज्या दिसा देशाचो मंत्री रेल्वे गाडयेंत लोकाचे धक्के खातलो, ऑफिसराक संडासाकडेन तिशटत उबो रावून रात सारची पडटली आनी फुडाऱ्याक वाहनांच्या दाराक हुमकळत प्रवास करचो पडटलो त्याच दिसा हिंदुस्थानाचे रेल्वेची सुदारणा करपाच्या वावराचें चिंतन सारके तरेन सुरू जालें अशें म्हणूंक मेळटलें. त्याच दिसा समाजवाद ही केवळ पोकळ घोशणा उरची ना, तें वास्तव जातलें.

पूण जेमेरेन देशांत इंग्लीश सक्तीचो विशय म्हणून चलतली - शिक्षणांत, न्यायालयांत, नोकऱ्यांनी, भलायकेच्या वाटारांत, सैन्यांत - समाजवाद येवंक पावंचोना. इंग्लीशींतल्यान शिकप भुरग्यांमदीं हो व्हडलो, तो ल्हान आनी फटीच्या झेताची भावना रुजवणा घालता. उत्पादन आनी वितरण हातूंत तुमी तेमेरेन सुदारप करूंक पावचेनात, जेमेरेन देशांतल्या भुरग्यांच्या मनांत ल्हानपणांतूच समानतायमूलक मनाभूंय तयार जायना. हीं इंग्लीश स्कुलां समाजवादाचे हे मुळावे गरजेच्या मुळाचेरूच घाय घालतात; ताका अपशकून करून चुकीचें मोडण लायतात.

## इंग्लीश आर्बिल्लेपणाक पर्याय न्हय

कांय लोक सांगतात, जर इंग्लीश गेली जाल्यार देशाच्या आधुनिकीकरणाक (आर्विल्ल्यापणाक) बादा येतली. तांचें म्हणणें, आज देशांत जी कितें आधुनीकताय दिसता ती इंग्लीशीवरवींच हांगा येवंक पावल्या.

असो समज जावपाचें एक म्हत्वाचें कारण - खूबशा लोकांनी आधुनीकतायेचो अर्थ सारको बरो बारीकसाणीन समजून घेवंक ना. ते इंग्लीशीकरणाक, अस्तंतीकरणाकूच आधुनीकताय मानून चलतात. अखेरेक आधुनिकीकरण म्हणल्यार तरी कितें ? हें उतर बारीकसाणीन तपासून पळयल्यार ताजो अर्थ समजुपाक वेळ लागचोना. जें सामकें हालींचें, सामकें नवेंच ताकाच आधुनीक म्हणपाचें. इंग्लीशींतलें 'मॉडर्नायझेशन' हें लॅटीन धातूवयल्यान जें उतर आयलां ताजो अर्थ जाता - 'सामकें आत्तांच' म्हणजेच जें आतां - आतांच आमचेमुखार आयलां, ताजेंताल्ल, पोरणें न्हय तेंच आधुनीक.

हो जालो केवळ उतराचो अर्थ (शाब्दिक अर्थ). पूण खरेपणीं आधुनीकतायेचो एक निश्चीत अर्थ आसूंक जाय - सैमाचेर मनशाचें जैत, सत्तेआड स्वतंत्रतायेचो उदय. अंधविस्वासाचेर तर्काची प्रतिष्ठापना आनी सामान्य दक्षतायेची वृध्दि. वाड. कारण ह्यो सगल्यो गजाली मनीसकुळयेच्या शेकानशेक लांब इतिहासांत प्राचीन काळापरस हालीं म्हणल्यार फाटल्या दोन-तीन शेंकड्यां भितरूच वयर सरल्यात. देखून हांकांच आधुनीक मुल्यां वा आदर्श म्हणूं येता. हीं मुल्यां खंयचेच जाती-जमातीची वा भास वा देशाची मक्तेदारी न्हय.

हातूंतलीं कांय मुल्यां युरोपांत पयलीं प्रतिष्ठापीत जालीं हो एक केवळ योगायोग. घडये हाका लागुनूच लोकांचो भ्रम जाला आनी ते युरोपाची नक्कल करप हाकाच आधुनीकताय मानून चलतात. युरोपांतली दरेक गजाल तशी आधुनीक ना. थंयच दरेक गजालीक आमी आधुनीक मानूंक लागले जाल्यार मागीर फासीवाद, नाझीवाद, साम्यवादी अधिनायकवाद - असल्या सामक्या रानवटी आनी जंगली गजालिंकूय आनी सामक्या प्राचीन वस्तुंकूय आमकां आधुनीक आनी घेवपासारक्यो अशें मानच पडटलें.

सोडात. आमची गजाल चलताली ती भास आनी आधुनीकताय हांचेसंबंदान. युरोपांत जेन्ना पुनर्जागृतायेची सुरवात जाली, जेन्ना आधुनीकतायेन युरोपाच्या दारार मारलें तेन्ना सगल्यांत पयलो धपको बसलो तो लॅटीन भाशेच्या एकछत्र साम्राज्याक. एके साम्राज्यवादी भाशेचे एकाधिकारशायेक थळाव्या भाशांनी आव्हान दिलें. जर्मन, फ्रॅंच, इंग्लीश, डच, चॅक, स्लोवाक आदी भाशांवरवीं राष्ट्रांनी आपणाल्या स्वतंत्र अस्मितेची अभिव्यक्ती केली. खुद्द लंडनाची स्थिती त्या वेळार कितें आशिल्ली? थंयच्या न्यायालयांतलें काम, राज्यकारभाराचें काम आनी व्हडल्या व्हडल्या विद्यालयांचें बरप

लॅटीन भाशेंतल्यान चलतालें. जर खंयच्याय एका वकिलान इंग्लीश भाशेंतल्यान उलोवप केलें जाल्यार तो गुन्यांवकार थरतालो. जर कोणाय बरोवप्यान लॅटीन भाशेंतल्यान बरयलेंना जाल्यार ताका दुसऱ्या वा खालत्या दर्जाचो विद्वान मानताले. इंग्लीशीक उणाक लोकांची भास म्हणून हिणसायताले. पूण जसजशी आधुनीकतायेची चेतना आनी जाणविकाय वाडत गेली तेन्ना जनतेन आपापले भाशेखातीर नेटान झगडपाक सुरवात केली. तिका मान्यताय मेळयली. आपले भाशेचो, स्वभाशेचो उत्कर्ष हे आधुनीकतायेचें एक मुखेल आंग. घडये अर्दकच्च्या इंग्लीशवादी लोकांक ह्या गजालींची खबर नासत, ना जाल्यार इंग्लिशीक सगल्यांच्या माथ्यार थापपाचो वावर ते करचे नासले. ते आपूण जावन इतिहासाकडल्यान कांय धडे कित्याक शिकूंक सोदिनात काय ?

खंयच्याच एका राष्ट्राचेर एक विदेशी भास थापप ही गजाल आधुनीकतायेच्या मूळभूत सिध्दान्तांआड आसा. तुमकां एक ठोस देख दिवन सांगतां. तुमी खंयच्या राज्याक एक आधुनीक राज्य म्हणून मानून घेतले ? ज्या राज्यांत लोकांक राजकारभारांत पुरायेन भागी जावंक मेळटा त्याच राज्याक आमी आधुनीक राज्य म्हणटले मूं ? हाजेबदला एक सामंतवादी, नकली पोपटपंची राज्य कशें आसतलें ? तें आसतलें 'कोणूय राजा जावं, आमकां कित्याक पडलां ?' हे भाशेचें. लोकांक नीत-निर्मणेचें कांयच सुवेरसुतक नासता. राजाची मर्जी होच कायदो. फ्रांसाचो १४ वो लुई म्हणटालो ते तरेन 'हांव म्हणजेच राज्य'. ही जाली १७ व्या शेंकड्यांतली गजाल, १८ व्या शेकड्यांतली गजाल, १९ व्या शेंकड्यांतली गजाल. आयची वा आधुनीक म्हणपासारकी निखालस न्हय.

भारताचे संसदेंत आयज लेगीत हीच गजाल पळोवंक मेळटा. ५०० संसद वांगड्यांमदले ४०० चे वयर एम पी मोन्यांवरी सदनांत ओग्गी बसून आसतात. भासाभाशेंत मातूय वांटेकार जायनात. फकत हात वयर करतात. अशें कित्याक घडटा? तांकां वाचा ना काय कितें ? तांकां उलोवंक कळना ? तांकां राजकारण समजना ? तांकां आपणाल्या लोकांचें प्रतिनिधित्व करपाचें ना अशें दिसता तुमकां ? न्हय, न्हय, उलयन दिसता पूण उलोवंक जमना, कारण तांकां इंग्लीश भास कळना. इंग्लीशींतल्यान उलोवप प्रतिश्ठेचें लक्षण जालां. जो इंग्लीशींतल्यान उलयता ताजेंच कोणूय आयकता.

प्रकाशवीर शास्त्री, राममनोहर लोहिया, अटलबिहारी वाजपेयी आनी मधु लिमये हे आडवाद जाले. हे लोक नवी वाट माड्डुपी. पूण जे इंग्लीश नकळो आनी जांकां हिंदीय येना तांणी कितें करप ? ज्या कोट्यांनी लोकांचें ते प्रतिनिधित्व करतात, तांचो कायदे करपांत कांयच हात ना. ही परिस्थिती पुर्विल्ल्या काळावयल्या राजा-म्हाराजांच्या दरबारांत जीं 'रत्नां' आसतालीं तांचेवरी जालां. त्या काळार तीं 'नव रत्नां', वा 'धा रत्नां'

वा 'चवदा रत्नां' जो कितें सल्लो दिवन सांगतालीं तांच्या सल्ल्याप्रमाण राजकारभार चलतालो. आजूय तशेंच जालां. आज इंग्लीश उलोवपी 'रत्न' आसता ताज्या वादविवादाप्रमाण हिंदुस्तानाची संसद चलता. हिका तुमी एक आधुनीक संसद म्हणटले व्हय ? हें एक आधुनीक राज्य कशें दिसता ? हिका लोकशाय म्हणपाची ? जर न्हय जाल्यार हे सगले इंग्लीश भाशेचे आमचेर उपकार म्हणूंक जाय.

दुसरी देख घेयात. आमच्या देशांतले कायदे इंग्लीशींतल्यान करतात. फुडारपणाचे तेंगशेसकयल्यान लवंडत सकयलमेरेन येवपी कायदे जनतेच्या पाताळामेरेन पावतासर एक तर ते खंयचे खंय शेणटात ना जाल्यार आपणालें मूळचें रूप शेणोवन वतात. आमच्या पांचवर्सुक्या येवजणांक वा विदेश वेव्हाराच्या भाशणांक हिंदुस्तानाचो सरसकट कितलोसो लोक समजता ? हाजे उरफाटें इंग्लीशींत केल्ले कायदे अमेरिकेंतलो आनी इंग्लंडांतलो शेतांतलो मानांय आनी खणीवयलो कामगार सामको सोंपेपणीं समजता. हो हिंदुस्तानी जनतेचो छळ चलला अशें तुमकां दिसना? मजा पळयात. इस्पिकांचीं सगलीं पानां तुमी विदेशीं लोकांमुखार उकतीं धरतात आनी जाच्या घामा कश्टाचे जोडींतल्यान येवजणो चलतात त्या सामान्य लोकांक ह्यो इस्पिको दाखयनात ! लोकांक कायदेच जर सारके कळ्ळेनात जाल्यार मागीर ते खंयच्या आदाराचेर सरकाराक सहकार दितले ?

त्या लोकांक कितें जाय हाजीय खबर सरकाराक आनी शासकांक कळूंक जाय काय नाका ? राज्यकर्ते लोकभाशेंत बरयल्लीं पुस्तकां वाचिनात, नेमाळीं वाचिनात, पेपर चाळिनात. भारतीय लोकांच्या उभाळ्यांचें प्रतिनिधित्व खंयचीं खबरांपत्रां करतात हें जर तुमकां जाणा जावंक जायशें दिसता जाल्यार लोकभाशेंतली आनी इंग्लीशींतलीं जीं खबरांपत्रां येतात तांतूतलें 'संपादकाक येवपी पत्रां' ह्या सदराचेर नदर भोंवडायात. इंग्लीश खबरांपत्रां बुध्दि-विलासाचीं अडेचीं चर्चासत्रां चलयतात. हिंदी आनी लोकभाशेंतलीं खबरांपत्रां कोणाय सामान्य, अडचल्ल्या, पिडीत मनशाच्या दुख्खाची आनी संकश्टांची गाथाच लोकांमुखार दवरतात. वोल्तेरार वा मोव कदेलार बसपी फुडाऱ्यांक हे गाथेचें कांयच पडूंक ना. कारण तांचेखातीर खरेलें जनमत इंग्लीश खबरांपत्रांनी प्रगट जाता. हाजो परिणाम कितें जाता ? लोक आनी फुडारी हांचेमदीं मतांचें दिवप घेवप, संवाद जावंक पावना. खरें म्हळ्यार अशें दोनी वटांचें प्रसारण ही आधुनीकतायेची पयली अट.

दक्षताय, आधुनीक समाजवेवस्थेचें एक गरजेचें लक्षण. म्हणजेच उण्यांत उण्या वेळांत चडांत चड काम करप आनी तेंवूय बी सारके बरे तरेन, वेवस्थीत, हिकमतीन. पूण इंग्लीशीचे सक्तीन आमच्या देशांतल्या कोट्यांनी भुरग्यांक मानसीक नदरेन अंपगूळ करून उडयल्यात. इंग्लीशींतलें बरप पाठ करपाचे राटावळींत तांकां दुसऱ्या विशयांकडेन फावो तितलें लक्ष दिवंक जमना. मागीर ते इंग्लीशूय सारकी शिकूंक पावनात आनी हेर विशयांचेय बाबतींत अशेंच जाता. 'बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना' अशी

तांची आवतिकाय जाता. नापास जातात तेन्ना चडशे भुरगे इंग्लीश विशयांत नापास जातात. एक भुरगो एका सप्तकाक जर पांच वरां इंग्लीश शिकपाक घालयता जाल्यार हिशोब मांडून पळयात. १० वर्सांमदीं कितलीं वरां खर्च करता आसतलो ? म्हणटकूच देशांतलीं लाखांनी भुरगीं आपणाल्या जिविताचीं कोट्यांनी भोव मोलादीक वरां सक्तीचे इंग्लीश भाशेच्या अभ्यासाक लागून इबाडून उडयतात असो अर्थ जालोना?

१० वर्सां लेगीत इंग्लीशीचे चेपण लावन देशाचीं कोट्यांनी वरां इबाडटात. तेपरस व्हडलीं जातकच ह्या भुरग्यांक एक वा दोन म्हयने खर, खोल अशें प्रशिक्षण दिवन खंयचीय विदेशी भास सोंपेपणीं शिकोवं नजो ? पुणेंच्या मॅक्समुलर संस्थेंत हालींसराक देड म्हयन्याभितर जाय तितली, बरी जर्मन भास शिकयतात. हाकाच म्हणटात आधुनीकताय. थोड्या वेळाभितर चडांत चड वावर. हांवें स्वता तीन म्हयन्यांच्या सादारण अभ्यासान रशियी भास आनी पंदरा दिसांच्या प्रशिक्षणान फारसी भास शिकून काडली.

तेभायर, कोट्यांनी भुरग्यांक एक विदेशी भास शिकपाची पयले सुवातेर गरजूच कितें ? मोटे कठीण अवस्थेंतल्यान हजारांतलो एक विद्यार्थी परदेशांत वता आनी संशोधन करता. आनी जे परदेशांत वतात, ते सगले इंग्लंड आनी अमेरिकेंतूच वतात अशें ना; हेर विदेशी देशांनीय वतात जंय इंग्लीश भास घोळना. कांय हजार लोकांची विदेशी भाशेची गरज भागोवचेपासत हांगा कोट्यांनी लोकांचेर इंग्लीश थापप जाता. म्हणल्यार, दोन मनशांक चपात्यो जाय म्हणून धा मण पीठ कालयल्लेभाशेन जालें हें. म्हाका जाय दोन मनशांच्या पावाखातीर थोडेंच, जाय तितलेंच पीठ कालोवंचें आनी बरे तरेन कालोवन पाव भाजचे. तण लुंवचें न्हय. अर्थांत, विदेशी भास सरसकट ठोक तरेन सगल्यांकूच शिकयनासतना उत्कृष्ट पांवड्याच्या अति आर्विल्ल्या पद्दतींनी फकत तांकांच इंग्लीश शिकोवंची जांकां तिजी सामकी गरज आसा. हिकाच आधुनीक नदर म्हणटात! संवसारांतल्या आधुनीक राष्ट्रांनी अशेंच चललां. पूण आमच्या देशांत मात आधुनीकतायेच्या नांवान उरफाटी गंगा व्हांवतना दिश्टी पडटा.

जपानाची देख आमचेमुखार आसा. आधुनिकीकरण आनी उद्देगीकरण पयलीं सुरू जाल्लें तें भारतांत. जपानांत तें मागीर जालें. पूण आज जपान भारतापरस कितलेशेच मैल फुडें आसा. जपानान अस्तंती अणभव भरपूर घेतलो हें खरें पूण ताणें आपले भाशेक मात सोडली ना. आपणाल्या लाखांनी विज्ञानिकांक, शेतकारांक, कामगारांक ताणें आपणाले भाशेंतल्यान सगलें गिन्यान मेळोवन दिलें. कांय हुशार अणकारप्यांक करून तांचेकडल्यान दरेके विदेशी भाशेच्या गिन्यानाचो जपानी भाशेंत अणकार करून घेतलो. भारताभाशेनूच जर जपानानूय आपणाल्या नागरिकांचेर जर्मन वा इंग्लीश थापटिल्ली जाल्यार आज जपान इतलो फुडें पावपाचो नासलो. विज्ञानिकांची जी शक्ती प्रयोगांत खर्च जाली ती एक विदेशी भाशा घोंकपांत खर्च जावपाची, जशें

भारतांत घडटा. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार इंग्लीशीचे सक्तीक लागून भारतांत आधुनीकतायेची गती सामकी सवकास आनी मोव करून उडयली.

## विज्ञानाचें शिकप आनी इंग्लीश

इंग्लीशीच्या कांय अंध, परमभक्तांनी देशांत असो एक विचार पातळायला की इंग्लीशीबगर विज्ञानाचें शिकप जावंच नजो. विज्ञानाचीं सगलीं वयल्या पावंड्याचीं पुस्तकां इंग्लीशींत बरयल्लीं आसात. जर इंग्लीश हांगाच्यान गेली जाल्यार विज्ञानूय तोंड घेवन वतलें.

खरें सांगपाचें जाल्यार गजाल सामकी हाजे उरफाटी आसा. इंग्लीश शिक्षण आनी विज्ञान हांचेभितर सामको शत्तिसांचो ( ३ ६ ) आंकडो आसा. एकाचें तोंड हेवटेन जाल्यार दुसऱ्याचें तेवटेन ! ऑक्सफोर्ड आनी केम्ब्रिज विश्र्वविद्यालयांचीं पोरणीं चोपड्यां खातीं काडून पळयशात जाल्यार म्हजी गजाल तुमचे मतींत येतली.

इंग्लीश शिक्षणाच्या ह्या म्हत्वाच्या स्थळांनी विज्ञान आनी गणिताचें शिकप सामकें उपेक्षीत जावन कडेक पडिल्लें. कारण विज्ञान मनशाक तर्क करपाक शिकयता. आनी तर्क हो धर्माचो दुस्मान आनी धर्मीक विचारांचे लोकूच ह्या शिक्षण केंद्रांक आपणालीं अनुदानां दिवन जितीं दवरताले. अशे परिस्थितींत विज्ञान आनी गणिताचें शिक्षण घरांनीच खाजगींत चलतालें. जॉन स्टुअर्ट मिला सारकेल्या प्रसिध्द तत्त्ववेत्त्यान आनी गणितज्ञान विश्र्वविद्यालयांत वचचेबदला घरांतूच बसून शिकप-बरप चड बरें अशें मानलें. तुमी मायकल फॅरेडेचें नांव आयकलांच जातलें. ताणें विजेचो सोद लायलो. ह्या मनशान केन्ना ऑक्सफोर्ड वा केंब्रिज विद्यापिठाचें तोंड लेगीत पळयलेंना.

ऑक्सफोर्ड आनी केंब्रिजाचो विज्ञानाची उपेक्षा करपाचो हो वसो आनी वज भारतांत आयलो. कारण मुंबय, मद्रास आनी कलकत्तेक ब्रिटीशांनी जीं विश्र्वविद्यालयां स्थापलीं तीं तांचीच नक्कल आसलीं. ह्या भारतीय शिक्षण केंद्रांनीय चडसो भर इंग्लीश भास, साहित्य आनी धर्म-विद्या शिकोवपाचेरूच आसतालो. हांगाय विज्ञान, गणीत आदी विशयांची उपेक्षाच जाली. ब्रिटीशांक हांचें कांयच पडूंक नासलें. चड करून शासन करपी ब्रिटीशांक. भारतीय प्रतिभेचो विकास जावंचो अशें तांकां मातूय दिसलेंना. ब्रिटीश सरकार फकत इंग्लीशभक्त नकलाकारांची फौज उबी करपाचीच मोख घेवन आसलो. इतलेंय आसून भारतांत कशी तरी नाय म्हणल्यार विज्ञानाची कितें ना कितें थोडी-भोव उदरगत जालीच. उदरगत करीत रावपाच्या मनीससभावाक अखेरेक कोणाच्यान कितलो म्हणून आडावं येता ?

इंग्लीशकारांनी, मुगलांनीं तशेंच हेर भायल्यान आयिल्ल्या आक्रमकांनी जर भारताचे प्रयोगशीलतायेक दामून चेपून उडोवंक नासली जाल्यार हांव खात्रीन सांगतां, चंद्रीमाचेर मनशाक धाडपी भारत होच पयलो देस जावं येतालो. भारतांत कदीम काळासावन हे धर्तरेभायर हेर गिरे आसात आनी थंयूय प्राणी रावतात हे गजालीचें गिन्यान आनी मान्यताय आशिल्लीच. 'विमानशास्त्र' नांवाच्या एक खूब पुर्विल्ल्या ग्रंथाचेर नदर पडनाफुडें हांव विस्मितूच जालों. तातूंत आवाजाचे गतीचेर उडपी विमानाचें, तें कशें तयार करपाचें, हांच्या सिध्दांतांचें बारीकसारीक वर्णन मेळटा.

हांव ह्यो पुराणांतल्यो काणयो सांगतां वा बंडलां - फटासो फोडटां अशेंय न्हय. सुक्यो गजाली आनी आयकल्ल्यो काणयो हांचेर म्हजो मातूय विस्वास ना. हांव तुमकां आर्यभटाच्या गुरुत्वाकर्शणाचो सिध्दान्त आनी लीलावतीच्या गणिताची खबर सांगतां जांकां पुराय संवसारान मान्यताय दिल्ली आसा. हांव चरक आनी सुश्रुताची गजाल सांगतां, बाणभट्टाची चर्चा करतां. फाटल्या दिसांनी डॉ. रघुवीर हांच्या पुतान, डॉ. लोकेशचन्द्रान जावा, बाली, सुमात्रा, सायबेरिया आदी देशांतल्यान हाडिल्ले कांय ग्रंथ, चित्रां आनी वस्तू दाखयल्यो. भारतीय शल्य-चिकित्सेचो प्रचार ह्या सगल्या प्रांतांनी खूब पयलींसावन चलतालो म्हणपाचें पळोवन हांव अजापीत जालों. आयजसावन सुमार कांय हजार वर्सांफाटींच भारतीय शल्य-चिकित्सा बरीच विकसीत आशिल्ली. हेच भाशेन रसायनशास्त्र आनी भौतिक विद्येंतूय भारतीय लोकांनी उल्लेखनीय कामगिरी केल्ली. हाका उल्लेखनीय म्हणपाचें कारण, त्याच काळार, हेर देशांचे तुळेन, चड करून ब्रिटनाचे तुळेन भारत हजारांनी मैल फुडें आशिल्लो. पूण मुखेल प्रस्न असो, हे परिस्थितीक लकण कित्याक आयली ? ही उदरगत आपणाल्या तर्कसंगत मार्गावयल्यान कित्याक वचूंक पावली ना ?

हाजीं जायतीं कारणां आसूं येतात, पूण एक मुखेल कारण आसा - भायल्या राज्यकर्त्यांनी आमच्या देशांत चलताली ती शिक्षण वेवस्था आनी संशोधन परंपरा हांकां ना-नपश्चात करून उडयलीं. हेर विदेशी राज्यकर्त्यांचें हांगा तुर्ताक आसूं. ब्रिटीशांची खबर पयलींच सांगून मेकळो जातां. ब्रिटीशांनी इंग्लीश भाशेक चड म्हत्व दिलें आनी विज्ञानाक उणें. ब्रिटीशांच्या मनांत इंग्लीशीविशीं चड मोग आनी ओड नाशिल्ली जाल्यार विज्ञानाच्या शिक्षणाचेर आनी प्रयोगांचेर चड लक्ष दिवप जातलें आसलें. विज्ञानाचेर जेन्ना इंग्लीशीक थापून ताका चिड्डून उडयलें तेन्ना भुरग्यांनी विज्ञानाचेर चड भर दिलोना आनी इंग्लीशूच चड नेटान शिकूंक लागले.

भुरग्यांक जेन्ना खंयचेय विदेशी भाशेंतल्यान विज्ञान शिकयतात तेन्ना तें एक वजें, चेपण आनी निरस तशेंच पचपचीत जाता. विज्ञान म्हणल्यार कितें? प्रयोगाचेंच दुसरें नांव विज्ञान. जेन्ना भुरगो प्रयोग करता त्या वेळार ताजे आनी उपकरणांचे मजगतीं भाशेक

लागून कसलीच अडचण येवंक फावोना. भाशेन म्हणटात ती दासी, वावराडी कर्श जावन सेवा करपाची आसता. भाशेक साध्य करपाची गरजूच पडूंक फावोना. पूण जेन्ना इंग्लीशींतल्यान विज्ञान शिकपाक सुरवात जाता तेन्ना विद्यार्थ्याक पयलीं इंग्लीश भाशेवांगडा झटापट करची पडटा. पयलीं भास शिकप, मागीर प्रयोग करप !

पांचवेंत शिकपी भुरग्याक जर इंग्लिशींतल्यान सांगलें, "होल्ड टॅस्टट्यूब अपराट" जाल्यार तो ह्या आदेशाक पाळो दिवंचेपयलीं येवजूंक पडटा. ताका पयलीं कळूंक जाय 'होल्ड' म्हणल्यार कितें, 'टॅस्ट-ट्यूब' म्हणजे कितें आनी 'अपरायट' हाजो अर्थ कितें जाता ? तेचबराबर हीं सगलीं उतरां एकदम एकठांय दवरल्यार तांचो कितें अर्थ लागता हें सगलें सारकें बरें कळ्ळेबगर ताका प्रयोग करपाक जावंचेंना. हेच सुवातेर दुसऱ्या वर्गांतलीं भुरगीं आसात तांकां तुमी तांचे आवयभाशेंतल्यान सांगशात की 'पारख-नळी सारकी घट धरात' जाल्यार तो सोमतोच कांयच अडचण नासतना त्या आदेशाक पाळो दितलो आनी प्रयोग करूंक लागतलो. अशें कित्याखातीर जाता ?

अशें जावपाचें कारण हें: जेन्ना तो भुरगो एक वा देडा वर्साचो आशिल्लो तेन्ना ताणें आपणाले आवयच्या तोंडांतल्यान ताजे भाशेंतल्यान अशे तरेचीं जायतीं वाक्यां आयकल्लीं आसतात आनी तांचें पालन केल्लें आसता. ताका भाशेक साधपाची गरजूच पडना. ती ताका जल्मांसावनूच आवयच्या दुदांतल्यान मेळिल्ली आसता. आतां तुमीच सांगात, प्रयोग वा संशोधन खंयचे भाशेंतल्यान सोंपेपणी जावं येता ? आवयभाशेंतल्यान काय विदेशी भाशेंतल्यान ?

विटणूक अशी की विज्ञानाचे बागेंमेरेन पावचेखातीर एका विद्यार्थ्याक इंग्लीशीच्या जळजळीत रेंवटांतल्यान वचचें पडटा. आं आतां कोणूय चं. वें. रमण आनी कांय हरगोविंद खुराणा आनी कांय नारळीकर ह्या रेंवटाक हांस-हांसत पार करतातूय बी. हे अदम्य, साहसी लोक आडवादापुरतेच. ह्या साहसांतल्यान वचून तांणी आपणालें कर्तृत्व संवसाराक दाखयलांच. पूण सरसकट सामान्य कुवतीचो विद्यार्थी एक तर फळ मेळोवपाची इत्साच दवरिना वा वाटेंतूच हातपांय गळसणावन फाटीं सरता. ना जाल्यार आपणालें सगलें जिवितूच हें रेंवट पार करपांत खर्चिता. खुद्द रमणानूच स्पश्ट उतरांनी एकेकडेन म्हणलां की भारतांत जर विज्ञानाचें शिक्षण आवयभाशेंतल्यान मेळिल्लें जाल्यार आयज भारत संवसारांतल्या अग्रगण्य देशांमदीं पावतलो आशिल्लो.

संवसारांतले जे देश आज विज्ञानाच्या मळार खूब फुडें पावल्यात, थंय विदेशी परकी भाशेंतल्यान भुरग्यांक विज्ञान शिकयतात व्हय ? केन्नाच ना. इंग्लंड आनी अमेरिकेंत इंग्लीशींतल्यान, जर्मनींत जर्मन भाशेंतल्यान, फ्रांसांत फ्रँचींत, रशियेंत रूस भाशेंतल्यान आनी जपानांत जपानी भाशेंतल्यान विज्ञान शिकयतात. रशियेंतले व्हडले

व्हडले विज्ञानीक इंग्लीश भाशेचें एक काळें उतर लेगीत नकळो. मागीर दुसऱ्या देशांनी जावपी विज्ञानीक प्रगतीसंबंदींची माहिती तांकां कशी मेळटा आसतली ? ही माहिती मेळोवपाखातीर हे विज्ञानीक इंग्लीश वा हेर डझनांनी विदेशी भासो शिकपांत आपणालो वेळ वगडायनात.

प्रत्येक देशांत अनुवादकांचो एक चोमो आसता. तो केवळ एकूच न्हय तर जायत्या भाशांवरवीं विज्ञानीक सामुग्री आपणाले देशी भाशेंत उतरायता. विज्ञानिकांक विदेशी भासो शिकन दिसल्यार लेगीत ते कितल्यो म्हणून अशो विदेशी भासो शिकतले ? ते सुवातेर अनुवादकांक जायत्यो भासो येतात. देखुनूच इंग्लीशीच्या शिकपाबगर विज्ञान आमी शिकूंक पावचेनात आनी त्या मळार फाटीं पडटले म्हणपाचो तर्क साप चुकीचो. हांव जाल्यार परतो म्हणन, इंग्लीशीक लागुनूच विज्ञानाच्या शिक्षणाक हांगा भारतांत मार बसता.

## संस्कृताय आनी भास

जेन्ना खंयच्याय एका राष्ट्राचेर खंयची तरी एक विदेशी भास शेक गाजोवंक लागता तेन्ना त्या राष्ट्राचे संस्कृतायेक व्हडलो धोको निर्माण जाता. संस्कृताय म्हणल्यार कितें ? आमच्या जाणटेल्यांनी आनी पुर्वजांनी विचार आनी कृतीच्या मळार जें कितें व्हडलें केलां तेच परंपरेक आनी दायजाक आमी संस्कृताय म्हणटात. ही संस्कृताय आपणाले भाशेवरवीं जिती उरता. भासूच जर ना-नपश्चात जाली जाल्यार संस्कृतायेचीय कसलीच नांवनिशाणी उरना. संस्कृतायेन ज्या आदर्शांक आनी मुल्यांक हजारांनी वर्सांच्या अणभवा उपरांत निर्माण केल्यात ते आदर्श आनी मुल्यां विसरायेच्या पोटांतच गडप जातात. भास हें संस्कृतायेचें अधिष्ठान. संस्कृताय भाशेच्या आदारान तिगून रावल्या.

हांव जाल्यार हाजे फुडेंय एक पावल घालूंक सोदतां. आमच्या पुर्वजांनी कितें वायट येवजिलें वा केलें तें लेगीत आमचेमुखार आशिल्लें म्हाका जाय. जाय जाल्यार तुमी हिका एक विकृताय म्हणात. हातूंतल्यानूय आमी आपणाली संस्कृताय सुदारूंक शकतात. आपणाली संस्कृताय आनी विकृताय ह्या दोनांचीय वळख जावंचेखातीर भाशेचो घोगो एकसारको व्हांवत रावूंक जाय. आमची अशी एक भास नासत जाल्यार आमकां आमच्या बऱ्या गजालींची तशीच वायट गजालींची खबर लेगीत कळची ना.

आयज जीं भुरगीं इंग्लीश शिकतात आनी ती एक खूब बरी भास अशें समजून शिकतात तांचें लक्ष आपणाल्या दायजापासून पयस वचूंक लागलां. तीं शेक्सपियर वाचतलीं, मिल्टन वाचतलीं, शॅलेक शिकतलीं पूण कालिदास, तुलसीदास, सूर, कबीर, रिहारी तांचेखातीर एक कुवाडें जातलें. आतां अशें जावंये की कॉन्वॅण्टांतल्या इंग्लीश

पुस्तकांनी शकुंतलेविशीं वा भरतासंबंदीं वा कन्हैय्याच्या रासलीलांविशीं थोडीभोव माहिती आसुंये. पूण जेन्ना हीं भुरगीं व्हड जातलीं तेन्ना आपणाली तान भागोवपाखातीर ह्या ग्रंथांक मूळ रुपांत वाचूंक सोदतलीं, घडणुकांसंबंदीं विस्तारान जाणा जावंक सोदतलीं. पूण कशीं जाणा जातलीं ? हे सगले ग्रंथ कांय मुळांत इंग्लीशींत बरयल्ले नात. मागीर कशें जावप ?

हीं भुरगीं व्हड जातकच एक तर आपणाल्याच ग्रंथांचे अणकार वाचतलीं आनी 'राम' हाका 'रामा', 'कृष्ण' हाका 'कृष्णा' तशेंच 'कुन्तीक' 'कुण्टी' म्हणटलीं. घडये तांचें लक्ष पुरायेन इंग्लीश संस्कृतायेक पडबिंबीत करपी इंग्लीश ग्रंथांकडेन घुंवतलें शेक्सपियराच्या 'हॅम्लेटा'च्यो दर वर्सा नव्यो आवृत्त्यो येतल्यो आनी बाणभट्टाची 'कादंबरी' वाळटेचे भकीक पडटली. हॉब्साचें 'लेवियाथन' गरम भज्यांवरी खपतलें आनी कौटिल्याचें 'अर्थशास्त्र' शेळ्या उंड्यावरी कुसत पडटलें.

हांव हॅम्लॅट वा मॅक्बॅथ कोणेंय वाचपा आड ना. म्हाका जाल्यार दिसता की आर्विल्ल्या भारतांतले तरणाटे दांते, ॲरिस्टोटल, शेक्सपियर, हेगेल, काम्यू, सार्त्र, टॉलस्टॉय, येवतुशेन्को ह्या सगल्यांच्या साहित्याचो रसास्वाद घेवपाचे लायकेचो जावंचेंच. पूण एक गजाल विसरूंक फावोना, भास ही रेल्वेच्या रुळावरी आसता. जंय रूळ वता थंयच गाडीय वता. रूळ जर नवी दिल्लीचे दिशेन वतात आसत जाल्यार कितलोय यत्न केलो म्हण गाडी मुंबयचे वटेन घुंवची ना. आयज हिन्दुस्तानीचे शिक्षणाचे गाडयेक इंग्लीशीच्या रुळावयल्यान धांवडावपाचें काम चललां. ही गाडी खंय वतली ? ही गाडी मागीर हजार वर्सांची भोंवडी केली तरी गंगेच्या घाटाचेर वा कालींदीच्या तटाचेर वा अयोध्येच्या पाळणींत केन्नाच परती येवंची ना. ती गाडी वतली ती सरळ थेम्साच्या कांठार वा ट्राफालगार स्क्वॅरांत वा बकिंघम राजम्हाला म्हऱ्यांत ! कित्याक ? कारण ती इंग्लीशीच्या रुळांवयल्यान धांवता. लक्षांत दवरात, भास जितली बरी वावराडी (सेविका) आसता तितलीच ती कठोर धनिणूय आसता.

जेन्ना तुमी विदेशी भाशेकडेन अती लगट करतात तेन्ना ती त्या मोगाचें पुराय मोल वसूल करता. ती आपणाले स्वताचे आदर्श, आपणालीं मुल्यां तुमचेर थापूंक लागता. हें काम अचळय ल्हव-ल्हव, इल्लें इल्लें करून जाता. सौंदर्याचीं उपमानां बदलूंक लागतात, संवसाराकडेन पळोवपाची नदर बदलता. आदर्श आनी मुल्यां बदलतात. आदर्श आनी मुल्यां बदललीं. आनी तीं एक तर्काक धरून बदललीं जाल्यार म्हाका वायट दिसचेंना. विदेशी भास कांय आमचेपरस बरीं मुल्यांय आमकां दिवंक शकता, पूण अडचण केन्ना येता ! जेन्ना एक खंडित चिन्तन आनी दोन तोंडांचें व्यक्तित्व तयार जावंक लागता तेन्ना. तुमी रावतात भारतीय भेसांत पूण बुध्दी परदेशांत घाणाक पडिल्लेवरी जाता, आमी

बौध्दिक नदरेन कोणाचे तरी भकीक पडटात, समर्पित जातात; इंग्लीशीच्या प्रभावाखाला! असलें व्यक्तित्व सर्जनशील जावंक पावना. देखीक, युरोपांतलो मनीस मळबांतल्या कुपांकडेन पळोवन चडसो खोशी जायना. कारण पयलींसावनूच ते थंड देस. मागीर कुपां आयलीं, मळब दाटून भरून येवंक लागलें जाल्यार तो मातसो हालता.

हाजे उरफाटें भारतांत कुपां मळबांत दिसलीं रे दिसलीं, मनाचो मोर खोशयेन नाचूंक लागता. मेघदूताची रचना जाता. आमचो देश सुर्याचो, वताचो देश. युरोप वताक आशेता, लाळेता आनी आमी कुपांक ! आतां सांगात, इंग्लीशींत कविता बरोवपी हिन्दुस्तानी कितें करतलो ? जर तो कुपांची तोखणाय करीत जाल्यार ताजी ती कविता तांच्या अस्तंती धनयाक मातूय रुचपाची ना, पचपाची ना. जर तो रखरखीत वताचीं गितां बरयत जाल्यार कुपांचेर धोलपी ताजें मन ताजेसरीं कितलेंशें उरतलें ?

भास बदलली जाल्यार मुल्यांय बदलतात. हिन्दी भाशेंत वडिलांक 'आप', बरोबरच्यांक 'तुमी' आनी धाकल्यांक 'तू' म्हणपाची सुविधा - सोय आसा. पूण इंग्लीशींत सगल्यांकूच सपाट 'यू'. बापायक, बायलेक, भुरग्यांकूय - सगल्यां खातीर एकूच चाबूक. ताणेंच सगल्यांक आमुडपाचे. आमच्या देशांत देर, व्हनी, जाव, व्हडली जाव, मावसो, मावशी, काका, मावळण, नण्डावो, भाचो, पुतणयो, मेवणो - सगल्यांक लेखपाक खाशेलीं सम्बोधनां आसात. त्या उतरांवयल्यान नातीं निश्चीत कळटात. म्हाका जर कोणूय सांगीत की हो अमको अमको म्हजो मेवणो जाल्यार म्हाका रोखडेंच कळटा, हो हाजे बायलेचो भाव लागता आनी जेन्ना कोणूय सांगता, 'हो म्हजो भावोजी' जाल्यार सोमतेंच म्हाका कळटा, हो हाजे भयणीचो घोव. पूण इंग्लीशींत मात सगलोच गोंदळ आसा. मेवण्याक आनी भावोजीक एकूच उतर - 'ब्रदर ईन लॉ'.

हाजें कारण स्पश्ट आसा. मनशां-मनशांमदल्या नात्यांच्यो बारीकसाणी आमचे संस्कृतायेत आसात त्यो अस्तंती देशांनी नात. एस्किमो लोकांचे भाशेंत झेलाक (बर्फाक) लागींलागसार 100 उतरां आसात जाल्यार आमचे भाशेंत फकत पांच थंय सात ! बर्फाकडेन आमचो तितलोसो संबंद येना जितलो एस्किमोचो येता. ब्रह्माखातीर, जिवाखातीर, जगाखातीर, मोक्षाखातीर - एका एका उतराखातीर आमचेकडेन जितलीं वेगळीं वेगळीं उतरां आसात तितलीं सगल्या युरोपी भाशांतलीं सगलीं उतरां एकठांय केल्यार लेगीत जावंची नात. आनी फकत उतरांच न्हय, ताजेफाटल्यान खोल अनुभूती, आशय आसता. अशे तरेन संस्कृतायेचो भाशेचेर प्रभाव आसता, परिणाम जाता. तेच भाशेन वयर सांगीत आयलां तशें, भाशेचो संस्कृतायेचेर प्रभाव पडटा, परिणाम जाता. आपणाले भाशेक कडेक उडोवन विदेशी भाशेफाटल्यान धांवचे पयलीं आमच्या विद्वानांनी ह्या तथ्याचेर खोलायेन इल्लें येवजूंक जाय.

# पयलीं पेंवात, मागीर उदकांत देंवात

थोडे लोक म्हणटात, इंग्लीशीक धांवडावपा संबंदान आमी तुगेल्या तर्कांक मानतात, आमकां ते पट्टात. पूण जेमेरेन हिन्दी वा हेर भारतीय भासो इंग्लीशीचे तांकीच्यो आनी बळिशट जायनात तेमेरेन इंग्लीशीक धांवडावप इल्लें हुतहुतेपणाचें जातलें. जेन्ना आमच्यो भासो बळिशट जातल्यो तेन्ना इंग्लीश आपसुकूच हांगाच्यान कडसरतली.

ज्या वेळार स्वतंत्रतायेचें आंदोलन चलतालें त्या वेळार सारको अशेच तरेचो तर्क ब्रिटीशांविशीं दिताले. थोडे लोक म्हणटाले, स्वतंत्रताय मेळुंकूच जाय पूण आमीच आपले आपूण आपणालें सरकार चलोवपाक अजून लायक जावंक नात. जेन्ना आमी आपणालें राज्य चलोवपाचे लायकेचे जातले तेन्ना ब्रिटीश आपूण जावन देश सोडून वतले. पूण ब्रिटीश हांगा घटमूट जावन रावले, ताका लागून आमी आपणाकूच सदांच नालायक अशें धरून चलप ही एक फॅशनशी जाली.

आयज भाशेच्या प्रस्नावयल्यान अशेंच किदेंशें जावंक लागलां. आपणाल्या भाशांकडेन, तांची सुंदरकाय आनी तांक हांचेकडेन आमगेले विचारवंत आनी बुध्दिजिवी मात लेगीत पळयनात आनी इंग्लीशीचें उशटें चाटपाक सदांच तयार आसतात. उशट्याची रूच तांकां इतली की जेवणाच्या वायट परिणामाचेर ते व्याख्यानां दितीत, ग्रन्थ बरयतीत; तातूंतल्यान ते सिध्द करूंक सोदतात की भारतीय भासो तितल्योशो बळिशट नात.

हांव विचारूंक सोदतां, भाशेच्या बळग्यांचो तांचे नदरेन कितें अर्थ ? व्याकरणाचें बळगें ? लिपीची तांक ? काय उतरांची गिरेस्तकाय ? अशें आसत जाल्यार हांव निश्चीतपणान सांगतां, ह्या वेळार म्हाका हिंदी जितली कळटा त्या हिसपान ती इंग्लीशीपरस कितलेशेच मैल फुडें आसा. आतां इंग्लीशीचें व्याकरण आनी लिपी हांचेविशीं सांगचें जाल्यार तांचेर उलयत तितलें थोडें. 'पिग्मॅलियन' ह्या आपणाल्या नाटकांत स्वता बर्नार्ड शॉन इंग्लीशीच्या उच्चारांचीं फकाणां मारीत सांगलां की इंग्लीशीचे नक्की उच्चार कशेच जायनात. कारण, तिजेकडेन एक खूब पोरणी घांसून, धोडावन चोथो जाल्ली एक लिपी सोडल्यार दुसरें कांयच ना. तेभायर ते लिपींत सर्वमान्य उच्चारांची खूब उणी व्यंजनां आसात. जें भाशेंत 'बी यू टी' चो उच्चार 'बट' असो जाता आनी 'पी यू टी' चो पुट जाता ते भाशेच्या व्याकरणाचें आनीक कितें सांगपाचें ? अशेच तरेन एका भाशाशास्त्रज्ञान सिध्द केलां की व्याकरण आनी उच्चार हांचेबाबतींत इंग्लीश संवसारांतल्या सगल्यांत दुबळ्या आनी इबाडिल्ल्या भाशांमदली एक भास जावन रावल्या.

हांगा हांव इंग्लीशीचे दोश दाखोवपाचें काम करपाक बसूंक ना. कारण दुसऱ्याले आवयचे दुर्गूण मेजले म्हणून आपणाली आवय गूणवान जाता अशें म्हणूं नजो. दरेक भाशेचीं आपापलीं उणेपणां आनी बारीकसाणी आसतात. तांची फोडणिशी करपाचें काम भाशाशास्त्रज्ञांचें; आनी तांणी तें बरे भाशेन केल्लेंय आसा. हांगा हांव इतलेंच सांगूंक सोदतां की अस्तंती भाशाशास्त्रज्ञ लेगीत इंग्लीशीचें तितलेंशें गूणगान करिनात जितलें आमचे भारतीय विदुशक विचारवंत करीत आयल्यात.

भारतीय भाशांच्या शब्द-सामर्थ्याविशीं सांगचें जाल्यार इंग्लीशींत जितलीं उतरां आसात ताजे कितलेशेच पटीन चड उतरां एके हिंदी भाशेंत आसात. हेर कांय हिंदुस्थानी भासो जाल्यार हिंदीपरसूय चड पोरण्यो आनी प्रांजळ आसात. ह्या सगल्या भाशांच्या आनी तांच्या बोलीभाशांच्या सगल्या उतरांक एकठांय करीत जाल्यार म्हज्या अदमासाप्रमाण उणींच तीं 60 लाख उतरां तयार जातलीं.

जालंधरांतल्या एका विद्वानान म्हाका सांगलें की तो हिंदीच्या अशे तरेच्या उतरांचें सध्या संकलन करता जीं पयलींसावन लोकजीवनांत घोळणुकेंत आसात. ताजें म्हणणें अशें, ताज्या संग्रहांत सुमार 15 लाख उतरां जमल्यांत आनी नवीं नवीं उतरां घडोवपाची तांक भारतीय भाशांनी जितली आसा तितली संवसारांतले खंयचेच दुसरे भाशेंत ना. संस्कृत भाशेंतल्या एका एका धातूपसून शेंकड्यांनी नवीं उतरां घडोवं येतात. मानवी मनाचे अत्यंत खोल आनी सुक्षीम अणभव आनी उमाळे हांचें उकतावण भारतीय भाशांनी फाटल्या हजारांनी वर्सांसावन बरे भाशेन चलत आयलां.

आतां एक गजाल समजात मान्य केली, भारतीय भाशांनी कांय विशयांचीं उतरांच नात तरी हाजे उरफाटेंय एक सत्य आसा. देखीक, मोटार ह्या उतराक हिंदींत उतर ना. पूण धर्म, वा जानवें वा यज्ञ वा ब्रह्म हांचेखातीर फावोशें उतर इंग्लीशींत तरी खंय आसा? खरेपणीं, ज्यो भासो जित्योजिव्यो आसतात त्यो उतरांचें आफूडभशट मानिनात. उतर खंयसुनूय येवं, गरज पडल्यार तें आपले भाशेंत आसपावन घेवंक जाय.

विदेशी भाशांचीं उतरां हिंदीन पचयल्लीं म्हाका जाय जे तरेन कमीज, अलमारी, अचार हीं उतरां हिंदीन जिरयल्यांत. आतां ह्या उतरांचें कुटूंब, कूळ, मूळ सोदप लेगीत कठीण जालां. खुद्द इंग्लीशीचींच अर्द्यापरस चड उतरां ग्रीसी, लातीं आनी फ्रांसेझ भाशांतल्यान आयल्यांत. इंग्लीशिनूय हिंदी तशेंच हेर भारतीय भाशांतलीं शेंकड्यांनी उतरां जशातशीं जिरयल्यांत. देखीक पंडित, गुरू, नवाब, राजा, महावत, चौकीदार, चपाती, चारपाई आदी. भारतीय भाशांनीय गरजेप्रमाण उतरां येत रावतलीं. अशे तरेन, इंग्लीशीचो वापर चालू दवरपाखातीर उतरांच्या उणावाचो तर्क खरो न्हय.

उणाव आसा तो उतरांचो न्हय; इत्साशक्तीचो. जर आमच्या भाशांतल्यान

निश्चयान कामां सुरू जायत जाल्यार उतरां आपले आपूणूच चलत फाटोफाट येतलीं. जेमेरेन आमी उदकांत उडी मारिनात तेमेरेन आमी पेंवंक शिकतले कशे ? पयलीं पेंवंक शीक आनी मागीर उदकांत देंव हें कितें सांगप जालें ? पेंवप हें कितें हवेंत हात मारून शिकूं येता ? जो भिजपाक, उदकान थपथपपाक, बूड मारपाक भिंयेता तो पेंवपाक कसो शिकतलो ?

लागींलागसार 100 वर्साफाटीं मेरेन फिनलँडांतले लोक स्विडनी भाशेचो वापर करताले. एक दीस तांणी थरयलें, ते तांचीच भास चालीक लायतले. जालें. दुसऱ्या दिसासावनूच कामाक सुरवात जाली आनी आयज फिनी भाशेवरवीं सगलें कामकाज बरे भाशेन चलता. झाराच्या काळांत रशियेंत फ्रांसेझ भाशेचो शेक आसलो. लॅनिनान सत्ता हातांत घेनाबराबर एकाच धपक्यान फ्रांसेझी काबार केली. आयज रशियेंतलें व्हडांतलें व्हड काम लेगीत रशियी भाशेंतल्यान जाता. तान्झानिया आनी लिबियांतूय अशेंच चललां.

पूण आमच्या राज्यकर्यांनी असलें धोरण आपणायलें ना. केवळ गुलाम लोकूच अशें करूंक जाणात. गुलाम लोकांचे मानगुटेर खंयचो तरी एक भायलो धनी बसून शेक गाजयता तेमेरेन आपणाचेर थापिल्ली भास ते सोडिनात. आतां ह्या विदेशी धनयाक वचून पन्नास वर्सां जावंक पावलीं. तरी आमच्या मेंदवांतलो किडो इंग्लीश भाशेक धांवडावपाक अनमनता, इतलेंच न्हय, तिका तिगोवन दवरपाखातीर नवीं नवीं निमतां सोदता. निमतांचेर वखदपाणी, उपाय बी आसा, पूण मनाच्या रोगाचेर मात ना.

व्याकरणाच्या प्रस्नावयल्यान, लिपीच्या संदर्भांत, उच्चारांचे बाबतींत, उतरावळीचे संबंदीं, म्हणल्यार दरेके बाबतींत हिंदीफुडें इंग्लीश तग धरूंक शकना तें पळोवन आमचे लेमडे विचारवंत एका दुसऱ्याच ब्रह्मास्त्राचो प्रयोग करूंक लागल्यात. ते आतां पुस्तकांचो उणाव हो मुद्दो घेवन रडत बसल्यात. ते म्हणटात, भारतीय भाशांमदीं शिक्षणाचें माध्यम बदलून घेवपाइतलीं पुस्तकां खंय आसात ?

पुस्तकां उणी आसात ही गजाल खरी; पूण इतल्याच कारणाक लागून भारतीय भाशांतल्यान शिक्षण दिवपाक सुरवात करूं नजो हो तर्क पटपासारको ना. जेवण तयार जालेबगर भूक लागची ना. काय भूक लागतली तेन्नाच जेवण तयार करपाचें ? भूक जेवणाचेर निंबून आसता व्हय ?

भूक सामकी कडकडीत लागल्या आसत जाल्यार जेवण आपसुकूच तयार जातलें. शिकपी आसतीत आनी तांकां शिकोवपी आसतीत जाल्यार पुस्तकां तयार करपाक कितलोसो वेळ लागता ?

जर केंद्र आनी राज्य सरकारां जाहीर करतीत की फुडल्या वर्सासावन इंग्लीश माध्यमांतलीं स्कुलां म्हणटात तीं बंद करपाचीं, जाल्यार तुमी पळयतले, जो चमत्कार फाटल्या दोनशीं वर्सांमदीं जावंक पावलोना तो एक वर्सा भितर जावन येतलो. सगल्या भारतीय भाशांच्या पुस्तकांच्यो राशी पडटल्यो. इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकोवपी लोकांच्या अंदल्ल्या ताळ्यांतल्यान नवीं आवाजाचीं ल्हारां उसळूंक लागतलीं. मौलिक विशयांक मौलिक भाशेंतल्यान शिकोवपाक सुरवात जातकूच भुरग्यांचें बाविल्लें प्रतिभा-साळीक अकस्मात फुलून येतलें.

सोवियेत संघान शेंकड्यांनी विशयांचीं हजारांनी पुस्तकां रातयांत तयार केलीं नात? आयज समाजशास्त्र वा कला हांचेसंबंदींचीं शेंकड्यांनी बरीं बरीं पुस्तकां हिंदींत आयल्यांतूच काय ना ?

हिन्दी खबरांपत्रांचें जबरदस्त जैत जाल्यार इंग्लीशीच्या मुस्कटार सणसणीत थापटूच म्हणूंक जाय. आतां कोणाच्यानूच म्हणूं नजो की हिन्दी पेपर काडचेपयलीं हिंदी भाशेक पयलीं बळिश्ट करची. इंग्लीशीच्या संवाद समित्यांनी उपाय नासून आतां हिन्दीच्यो संवाद समित्यो स्थापन केल्यात आनी इंग्लीश खबरांपत्रांचे धनी आतां एकाफाटोफाट एक अशीं हिन्दी खबरांपत्रां आनी नेमाळीं काडूंक लागल्यात. सबंद देशांत जीं एकंदर इंग्लीश खबरांपत्रां छापून भायर सरतात तांचेपरस केवळ हिंदीन छापिल्लीं खबरांपत्रां चड भरतात. ह्या वेळार हिंदी खबरांपत्रांची प्रसार संख्या आनी खप इंग्लीश खबरांपत्रांपरस खूब चड आसात.

लागीं लागसार दरेका प्रदेशांत आतां प्रदेशीक भाशांतल्या खबरांपत्रांचो शेक चलता. हिंदी वाटारांत जाल्यार आपणाल्या प्रदेशांनी इंग्लीश खबरांपत्रांक बरोच मार दिला. हिन्दी पत्रकारितेन मलयालम, तमीळ, बंगाली, गुजराती आनी मराठी पत्रकारितेवरी सिध्द केलां की आपणाले भाशेंत आपणाल्या लोकांखातीर चलयल्ली पत्रकारिता निश्चीत चड बळिश्ट, चड सोंपी आनी सार्थक आसा.

दिल्ली हें गुलामीचें केंद्र अशें दिसता, सबंद देशान उंबाळून उडयल्ली इंग्लीश आतां दिल्लींत येवन दसल्या. खंयच्याय स्वतंत्र देशाक लज दिसूंक फावो अशी गजाल हांगा घडटा. ती म्हणल्यार भारताच्या ह्या राजपाटणांत विदेशी भाशेचीं डझनभर खबरांपत्रां येतात. कोणाकूय दिसुंये, दिल्ली हें भारतांतलें एक शार न्हय जाल्यार विदेशांतलेंच खंयचें तरी एक शार. इंग्लीशीचीं हीं खबरांपत्रां चड कागद खातात, चड दुडू खातात, चड जायराती गडप करतात. तरीय जितल्या लोकांम्हऱ्यांत तीं पावतात ताजेपरस हिंदींतलीं खबरांपत्रां चड लोकांमेरेन पावतात. इंग्लीश खबरांपत्रां आनी संवाद समित्यो हांचेर जितलो दुडू आनी श्रम नश्ट जातात तोच दुडू भारतीय भाशांतल्या

खबरापत्रांचेर खर्चिल्लो जाल्यार भारताचो भाशीक नकाशोच सामको बदलून वचपाचो.

कांय पत्रकार इश्ट विचारतात, तुमच्या आंदोलनाक लागून इंग्लीश खबरांपत्रां जर बंद पडलीं जाल्यार शेंकड्यांनी पत्रकारांचें कितें जावप ? म्हजी जाप अशी, तांचें भाग्य फळटलें आनी भारतीय पत्रकारितेकूय बरे दीस येतले. इंग्लीशींत बरोवन हे व्हडलो पराक्रम करिनात. तांकां मूठभर इंग्लीश जाणा जाल्ले लोकूच वळखतात. जर ते हिंदीत, बंगालींत, मलयालमांत, तमीळ भाशांनी बरयतीत जाल्यार कोट्यावधी वाचपी तांकां माथ्यार घेतले. आयज तांचें तोंड सरकारावटेन आनी फाट लोकांवसल्यान आसा. मागीर ही गजाल हाजे उरफाटी जातली.

इंग्लीशीचे कांय प्रोफेसर आमच्या ह्या आंदोलनांत आसात. तांणी विचारलें, इंग्लीश गेली जाल्यार आमचो फुडार कितें ? हांवें तांकां सांगलें, तुमचें मोल वाडटलें. हाजीं कारणां दोन. पयलें, आयज सक्तीची इंग्लीश शिकता आसतना भुरगे आपणाल्या शिक्षकांक आनी प्रोफेसरांक मनांतले मनांत गाळी घालतात आनी इंग्लीश शिकप म्हळ्यार गाढवाची हमाली अशें धरतात. इंग्लीश वतली तेन्ना देशांत विदेशी भाशेबराबरच्या भोवमानान देशी भासो शिकोवप जातलें आनी इंग्लीश शिकतले तेवूय आतांचे परस चड मायेमोगान आनी आदरान शिकतले. आज ते जर्मन वा फ्रांसेझ ज्या सन्मानान शिकतात तेच तरेन.

दुसरी गजाल. इंग्लीश कडसरले उपरांत देशांत हजारांनीं कुशळ अणकारप्यांची गरज पडटली. जे शिक्षक घाण्याच्या बैलावरी 30-30 वर्सां एकेच तरेचीं पुस्तकां किरावरी वाचीत आनी शिकयत आयल्यात तांकां नित्य नव्या पुस्तकांचे आनी साहित्याचे अणकार करपाची संद मेळटली. तांचें बौध्दिक क्षितीज विस्तारतलें आनी येणावळूय वाडटली इंग्लीश तांकां येताच न्हय ? आनी जर ते हेर विदेशी भासोच शिकले जाल्यार चड बरें आनी उपयोगाचें मनीस जावंक पावतले. खरें म्हणल्यार असल्याच लोकांनी आंदोलनांत चड क्रियाशील जावपाची गरज आसा.

❑

# विदेशांत इंग्लीश

म्हज्या आंतरराष्ट्रीय पासपोर्टाचेर सुमार एक डझन देशांचे छाप लागिल्ले आसात. पूण तातूंत केवळ म्हजो स्वताचोच असो एकूच देश आसा जाचेर ताजो छाप ताजे स्वताचे भाशेंत ना. हांवें सुमार अर्दो डझन हवाई कंपनींवरवीं वेगवेगळ्या देशांची भोंवडी केली. पूण त्या सगल्यांभितर केवळ आमच्या देशाची हवाई कंपनी 'ॲर इंडिया'च्यो हवाई सुंदऱ्यो अशो एकमात्र मेळ्ळयो ज्यो आपणाल्या देशभावांवांगडा परदेशी भाशेंतल्यान उलयताल्यो. जर असल्या घडणुकांक लागून देशाच्या खंयच्याय नागरिकाची मान अभिमानान ऊंच, ताठ जाता जाल्यार खऱ्यांनीच भारतीय लोक आपणाली तकली मळबामेरेन वयर करतात.

आमच्या देशांत सरसकट लोकांमदीं एक अपसमज जाला की विदेशांनी फकत इंग्लीश भासूच चलता; इंग्लीशीबगर आमच्यांनी परदेशांकडेन संपर्क दवरूं नजो, इंग्लीशीवरवीं आनी तिकाच लागून भायल्या देशांनी आपणाली विज्ञान आनी तंत्रज्ञान हातूंतली उदरगत सादल्या. अशे तरेच्या अज्ञानाचेर आदारून व्हडल्यो व्हडल्यो चर्चा आनी भासाभासो चलत आसतात. पूण हांगा हांव अशाच ल्हान-व्हड घडणुकांची गजाल करतलों जांचे अणभव म्हाका उदेंत आनी अस्तंती देशांतल्या भाशांसंबंदान आयले.

आशियी देशांमदीं हांव अफघाणीस्तान, इरान, तुर्कस्तानांत गेलां. युरोपी देशांमदीं रशिया, चॅकोस्लोवाकिया, इटली, स्वित्झरलँड, ऑस्ट्रेलिया, फ्रांस, जर्मनी आनी इंग्लंडांत गेलां, तसोच भोंवडेचो चडसो वांटो कॅनडा आनी अमेरिकेंत सारला. ह्या सगल्यांभितर एक लेगीत देस असो नाशिल्लो जंयच्या सरकाराचें कामकाज त्या देशाचे आपणाले भाशेंतल्यान जायना.

अफघाणिस्तानाची देख घेयात. थंय राजेशाय आशिल्ली आनी जंय राजघराण्यांतल्या चडशा जाणांचें शिक्षण पॅरिस वा लडनांत जाल्लें. त्या अफघाणिस्तानांत लेगीत सरकारी काम फारसी (दरी) वा पुश्तु भाशेंतल्यान जाता. हांवें लागींलागसार अफघाणिस्तानांतल्या सगल्या. भागांची भोंवडी केली आनी सगल्या पयशिल्ल्या सरकारी ऑफिसांनी वचपाची म्हाका संद मेळ्ळी. खंयच, खंयच्याच सरकारी ऑफिसांत इंग्लीशीचो वापर पळोवपाक मेळ्ळो ना. तुमी विदेश मंत्रालयांत वचात, घर खातें वा पुलीस खात्यांत पासय मारात, ना जाल्यार खंयच्याय राज्यपालाचे कचेरेंत पावल दवरात. तुमकां दिसतलें थंयचो व्हडल्यांतलो व्हडलो अधिकारी आपणाले देशी-भाशेंतल्यानूच उलयतलो. अफघाणिस्तानांत हांवूच स्वता विदेशी आसलों, पूण अफघाण विदेश मंत्रालयान राज्यापालाच्या नांवान म्हजेकडेन जें पत्र दिल्लें तें 'दरी'त आशिल्लें; इंग्लीशींत न्हय.

अशेच तरेन सोविएत रशियेंत 'इंस्तितूते नरोदोफ आजी' हें संस्थेच्या निर्देशकान मॉस्कोंतल्या साबार पुस्तकालयांच्या नांवान म्हजेकडेन पत्रां दिल्लीं तीं सगलीं रशियी भाशेंत आशिल्लीं. हे संस्थेचो निर्देशक प्राचार्य गफूरोव हो रशियेंतलो एक व्हड विद्वानांमदलो; पूण ताका इंग्लीश मातूय येनासली. तेभायर आनिकूय कांय रशियी विद्वानांक मेळपाची संद म्हाका मेळ्ळी. तातूंतल्या एकल्याकूय इंग्लीश कळनासली. जांकां इंग्लीश येता तेवूय आपणालें साहित्य पयलीं रशियी भाशेंतल्यान बरयतात आनी मागीर ताजो इंग्लीशींत अणकार जाता. इंग्लीश वा फ्रांसेझ तांचेखातीर फकत समजून घेवपाची, वाचपाची भास, खबरो आनी माहिती दिवपी भास. ती तांचे आपउकतावणेची गची आंवुळपी साधन न्हय. मॉस्कोंत शेंकड्यांनी भारतीय विद्यार्थी विज्ञान आनी इंजिनीयरिंग विशयांचें वयलें शिकप घेतात. तांकां सगलें शिक्षण रशियी भाशेवरवीं घेवंचें पडटा. मॉस्कोंत आमी एक फावट एक विज्ञान आनी तंत्रज्ञानाचें प्रदर्शन पळोवपाक गेल्ले. थंय आमकां कळ्ळें, ज्या विज्ञानिकान अंतरुक्ष यान बी गजालींचो सोद लायिल्लो, ताणें आपणालें बरप रुसी भाशेंतल्यानूच केल्लें.

अशे तरेन जर्मनी आनी फ्रांसाच्या विद्यापिठांनी उंचेलें शिकप तांचे आपणाले भाशेंतल्यान जाता. विद्यापिठांतलें जायते म्हत्वाचे, व्हडले प्रोफेसर आसात तांकां इंग्लीशींतल्यान चार उतरां उलोवंक येनात. ऑस्ट्रियांत हांव विएन्नांत एका विद्यापिठांत, दर्शनशास्त्राच्या कांय प्रोफेसरांक मेळूंक सोदतालों. म्हजेवांगडा कोणूच दुभाशी नासलो. सुमार अर्दवर अस्वस्थ जालेउपरांत एक मनीस मेळ्ळो जो म्हज्या उलोवपाचें जर्मन भाशेंत भाशांतर करूंक पावलो.

लंडनांत, 'लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स'चे वतीन एक आन्तरराष्ट्रीय परिसंवाद जालो. तातूंत युरोपांतल्या साबार देशांतल्यान जायते विद्वान लोक आयिल्ले. हिंदुस्तानी विद्वान एक तर इंग्लीशींतल्यान उलयताले आनी ब्रिटीश, म्हणल्यार आमचे आदले धनी, फकत इंग्लीशींतल्यान उलोवप करताले. युरोपांतले विद्वान चड करून ओगीच बसताले वा तुटकी - फुटकी इंग्लीश उलयताले. जेन्ना 'इटलीचो गांधी' श्री. दानिएल दोल्ची हाणें आपलें भाशण इटलियी भाशेंतल्यान केलें तेन्ना म्हाकाय मातसो नेट आयलो. हांवें म्हजें उलोवप हिंदींतल्यान केलें जाचो अणकार निर्मल वर्मान केलो. तेउपरांत हेर युरोपी लोक जे आतांमेरेन ओग्गी बशिल्ले तांकांय आपापल्या भाशांतल्यान उलयन दिसलें. आनी कोणें ना कोणें तांच्या भाशणाचो अणकार करुनूय दिलो. थंय सुमार अर्दो डझन भारतीय आशिल्ले तातूंतले एक-दोग जाण सोडल्यार बाकीचे सगले चुकीचे आनी खालच्या दर्ज्याची इंग्लीश उलयताले. पूण आपणाले भाशेचो फावोसो वापर करपाची धिटाय एकल्याकूय जायनासली.

चॅकोस्लोवाकियांत थंयचो नामनेचो लोक-फुडारी आनी संसदेचो अध्यक्ष, डॉ.

स्मरकोवस्कीक हांव मेळपाक गेलों. तेन्ना तांच्या विदेश मंत्रालयान एक दुभाशी धाडलो जो इंग्लीशींतल्यान चॅक भाशेंत अणकार करतालो. हांवें सांगलें, हांव भारतीय, म्हजेखातीर इंग्लीशवालो दुभाशी कित्याक धाडला ? ताणें सांगलें, तुमच्या देशांतल्यान येवपी फुडारी आनी राजकारणी इंग्लीशूच वापरतात. हांगा मतींत घेवपासारकी गजाल म्हणल्यार, डॉ. स्मरकोवस्की सारकेलो राष्ट्रीय फुडारी युरोपी आसून लेगीत इंग्लीशीचो वापर करिना. अशेच तरेन अफघाणिस्तानाचो आदलो प्रधानमंत्री सरदार दाऊद हाका ताज्या देशाच्या इतिहासांत सगल्यांत व्हडल्या शासकांतलो एक अशें मानतात. तो लेगीत इंग्लीशींतल्यान उलयना. ताजेवांगडा म्हजें उलोवणें दरींतल्यान जालें.

## नांवांचे तकटे इंग्लीशींत नात

ब्रिटन सोडल्यार, युरोपाच्या बाजारांत तुमकां एक लेगीत नांवांचो - तकटो इंग्लीशींत मेळपाचो ना. दरेका देसांतले लोक आपापलें भाशेंतल्यानूच आपापल्या दुकानांचीं नांवां बरयतात. दुकानांतल्या वस्तूंचेर मारिल्ले छापूय आपापले भाशेंतूच आसतात. कांय दुकानांतल्यान तर म्हाका परतें येवचें पडलें कारण थंय वेपार विकपी चलयो फकत फ्रॅंचींतल्यानूच उलयताल्यो. तुमी तांचेलागीं इंग्लीशींतल्यान उलोवंक लागल्यार तांकां वायट दिसता.

तुमी इंग्लीशीच्या आदारानूच जियेतलें म्हणून चलशात जाल्यार युरोपांत तुमी उपाशीं पडटले. चॅकोस्लोवाकियांत एका हॉटॅलांत जेवण दिवपी बायलांक हांव खूब समजावन सांगलें, हांव मास खायना. तरीय जावन तीं परपरत मासाच्यो बशयो हाडीत आसताली. तेन्ना एके जाणटेलेन येवन म्हाका विचारलें 'तुमी भारतीय व्हय ?' तेन्ना हांवें म्हणलें 'हय'. तेन्ना तिणें चॅक भाशेंतल्यानूच म्हाका परतें विचारलें, 'तुमी योगी व्हय ?' हांवे तिका रशियी भाशेंत सांगलें, 'हांव योगी न्हय; पूण हांव शिवराक' तेन्ना म्हाका म्हजें जेवण मेळ्ळें.

तशे युरोपांतल्या राजपाटणांनी आनी व्हडल्या शारांनी इंग्लीश जाणा आशिल्ले कांय लोक मेळटात, ना अशें न्हय. पूण तुमी थंयच्या भितरल्या वाठारांनी वचशात जाल्यार तुमचेवांगडा दुभाशी आसत वा तुमी कुरवांनी आनी वेव्हारी गिन्यान वापरून चलल्यारूच तुमचो निभाव लागतलो. चडशा देशांनी म्हजे इश्टूच दुभाशाचें काम करताले आनी जेन्ना म्हाका खंयूय एकलो वचचें पडटालें तेन्ना मोटी अडचण जाताली. दर देशांतलीं खबरांपत्रां तांचे भाशेंतल्यान येतात. थंय इंग्लीश पेपर मेळप भोवूच कठीण. स्वित्झरलंडांत लीस्ताल नांवाच्या एका गांवांत हांव रावतालों. थंय एकापरस एक बरीं अशी स्वीस खबरांपत्रां मेळटाली . पूण तुमकां इंग्लीश भाशेंतलो ब्रिटीश वा अमेरिकी पेपर जाय पडल्यार

झुरिक वा बर्ने शांरांत वचचें पडटा.

विदेशांत, भारतीय दुतावासांनी सगल्याक इंग्लीशीचेंच राज्य चलता, ते मागीर काबूलांत आसूं वा पॅरिसांत. आमच्या दुतावासांतल्या कर्मचाऱ्यांमदीं खूब सोदल्यार एकाद्रो कोणूय थंयची भास जाणा जावपी कर्मचारी मेळत. तांकां समजात फ्रांसांतल्या दुतावासांत काम करपाचें आसत, तरी लेगीत ते इंग्लीशींतल्यान वेव्हार करतना दिसतात. अफघाणी भुरग्यांक आमचे शिक्षक शिकयतना भास खंयची वापरतात? इंग्लीश भुरग्याक शिकयतना वापरची आसता ती म्हणल्यार इंग्लीश. घडये, आमी भाशेचें म्हत्व सारकें बरें अजून समजुनूच घेवंक ना.

जेन्ना आमी मुखावयल्या मनशाकडेन ताजे भाशेंतल्यान उलयतात तेन्ना ताका कितली खोस जाता आसतली हाजी आमकां कल्पना ना. हे गजालीचो प्रत्यक्ष अणभव म्हाका रशिया आनी अफघाणिस्तानांत आयलो. गोडशें विकपी एका पठाणावांगडा हांव चार उतरां काबूली भाशेंतल्यान उलयलों, तेन्ना तो खोशशी जालो. म्हज्या हिंदी प्रबंधाच्यो कांय तळटिपो रशियी भाशेंत बरयिल्लो पळोवन थंयचे विद्वान प्रसन्न जाले. आमी मात संवसारांत खंयूय गेले तरी इंग्लीशीचोच वापर करतात हें आमचें व्हडलें दुर्भाग्य. ह्या प्रवासांत म्हाका खूबकडेन राजनैतिक जेवणांक हाजीर रावंचें पडलें. ह्या जेवणां वेळार भारतीय मुत्सद्दी आपणाल्या सांगात्यांवांगडा आनी देशभावांवांगडा इंग्लीशींतल्यान उलयताले. दुसऱ्या देशांतले मुत्सद्दी आपल्या सहकाऱ्यांकडेन तांचे भाशेंतल्यन उलयतात. आमच्या विदेशी दुतावासांतले कर्मचारी ज्या देशांत काम करतात तांची भास शिकून घेत आनी आपणाल्या भारतीय सांगात्यांवांगडा स्वदेशी भाशेंतल्यान उलयतीत जाल्यार काय बरें जातलें आशिल्लें ?

## लेमडे विचारवंत

हांव ज्या ज्या देसांत वतालों तेन्ना हेर समाजीक आनी राजनितीक प्रस्नांभायर भाशेच्या प्रस्नावयल्यानूय भासाभास जाताली. कारण म्हजो प्रबंध हिंदींत आसलो आनी ताका लागून भाशेचो प्रस्न घुंवून घुंवून उपरासतालोच. अफघाणिस्तान आनी सोविएत संघ ह्या देशांतल्या ज्या जबाबदार लोकांक 'इंडियन स्कूल ऑफ इंटरनॅशनल स्टडीस' वांगडा जाल्ले म्हजे भाशीक चर्चेची खबर आसली, तातूंतल्या जायत्या जाणांनी म्हजें पावल सारकें आसा अशें म्हाका सांगलें. सोविएत विद्वानांनी जाल्यार इतलें लेगीत सांगलें, म्हजी इत्सा आसल्यार म्हजो प्रबंध आमी हिंदी आनी रशियी भाशेंतल्यांत छापपाक तयार आसात. हाजें उरफाटें, ब्रिटन आनी अमेरिकेंतल्या विद्वानांक हांवें तांचे भाशेक आव्हान दिलां हे गजालीचें खूब वायट दिसलें. जशे कितें इंग्लीशीचे एकाधिकारशायेक

आव्हान दिवन हांवें व्हडलें पातक केल्लें !

कॅनडांत 'इण्डो-कॅनेडियन इन्स्टिटयूट'च्या कार्यकारी संचालकाकडेन. भारतांतल्या बौध्दिक उपनिवेशवादाच्या विशयाचेर चर्चा जाली. हांवें ताका सुचयलें की हे संस्थेची स्थापणुकूच लालबहादूर शास्त्रीचो उगडास म्हणून जाल्ली. देखून तुमी निदान इतलें तरी करचें, हे संस्थेभितर जाल्ल्या संशोधनाच्या कामाचे भारतीय भाशांनी अणकार करून घेवंचे; तशेंच भारतीय भाशांतल्यान काम करपी विद्वानांक खाशेल्यो अशो शिशयवृत्त्यो दिवंच्यो. तांणी सांगलें, आमकां ही सुचोवणी मान्य आसा, पूण भारतीय शिक्षण मंत्रालयाचें हाजेर कितें मत आसतलें तें आमी सांगूंक नकळो. तेन्ना हांवें म्हणलें, 'तें म्हाकाय खबर ना.'

कांय अमेरिकी विद्यापिठांनी भाशेच्या प्रस्नावयल्यान अमेरिकी प्रोफेसरांकडेन बारीकसाणीची चर्चा आनी भासाभास जाली. हांवें त्या विद्वानांक नमळिकायेन कांय गजाली सांगल्यो त्यो अशोः कांय भारतीयांनी इंग्लीशीक एकांगी म्हत्व दिलां आनी ताजो परिणाम असो जाला. भारतांतल्यो चडशा बुध्दिवंतांची मौलिक प्रतिभा खुंटल्या, ते तुमचे लेमडे जावन नक्कल करतात आनी तिकाच बुध्दिमत्ता वा प्रतिभा मानूंक लागल्यात. हाका लागून फाटल्या दोनशीं - अडेजशें वर्सांसावन भारतांत स्वतंत्र चिंतनाचे परंपरेक मार बसला. ब्रिटीश आनी अमेरिकी लोक जें किदें बरयतात ताजी कुड्डेपणान भारतांतले इंग्लीशधार्जिणे विव्दान नक्कल करीत रावतात. ते तुमच्या आनी हिंदुस्तानच्या लोकांमदीं बौध्दिक दलाली करतात. इंग्लीशीक लागून तुमचें आनी तांचें नातें दाट जालां पूण तांचेभितर आनी हिन्दुस्तानाचे जनतेमदीं व्हडलो चर तयार जाला. आनी तो रूंद जायत आसा.

अमेरिकी राजानितीज्ञ आनी विद्वान आपणांक हिंदुस्तानच्या लोकांलागीं इश्टागत करूंक जाय अशें म्हणटाले तेन्ना तांकां वयर सांगला तो मुद्दो मांडटालों आनी विचारतालों, तुमी सामान्य भारतीय जनतेलागीं इश्टागत करूंक सोदतात जाल्यार मागीर ह्या मूठभर इंग्लीशधार्जिण्या खालत्या दर्ज्याच्या विचारवंतांक आनी तांचे भाशेक कित्याक चड म्हत्व दितात ? भारतीय लोकभाशांचो कित्याक तिरस्कार करतात ? तुमकां जर तुमची भास खूब मोगाची दिसता जाल्यार तुमी दुसऱ्यांक तांचे भाशेंत कित्याक काम करूंक दिनात ? समजा आनीक ५० वर्सांउपरांत भारत अमेरिकेइतलो बळिश्ट देश जालो आनी ताणें अमेरिकेचेर आपणाली भास थापपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार तुमकां बरें दिसत ?

हांवें तांकां सांगलें, भारतांतले इंग्लीश उलोवपी लोक आनी भौस हांचेंमदलें जें नातें आसा तें चीनान एका काळार च्यांग काय शेक आनी थंयची जनता हांचेभितल्ल्या

संबंदांवरी जावपाचें आसा, थोड्याच दिसांनी तुमी पळयतले. हांवें तांकां हेवूय सांगलें, हांव आनी म्हजेवरी हेर लाखांनी तरणाटे जे देशाक आपणाली भास परती मेळोवन दिवंक सोदतात आनी झुजतात ते इंग्लीशीचे दुस्मान न्हय. ते इंग्लीशीचो मातूय दुस्वास करिनात. आमी ब्रिटीश लोक वा अमेरिकींचोय दुस्वास करिनात. पूण आमची एकूच धारणा आनी ध्यास आसा, आमच्या देशांत इंग्लीश चलप हें आमचें गुलामपणाचें आनी परधार्जिणेपणाचें एक आंग. तें एक हत्यार जें शिकिल्लो - सवरिल्लो शहरी वर्ग गांवगिऱ्या भौसाचे आड आपणाल्या हिताखातीर आनी सुवार्थाखातीर वापरीत आसता. धवाड्या, वयल्या वर्गाच्या ह्या सुवार्थसादू धोरणांक लागून आमच्या देशाची संस्कृताय, आमच्या भुरग्यांचें शिक्षण अर्थीक समानताय हाडपाचे यत्न, बौध्दिक मौलिकता आदी सगल्या गजालींचेर खूब वायट परिणाम जावंक लागला; जायत आसा.

हांवें अमेरिकी इश्टांक विचारलें, तुमी तुमच्या इश्टांचें लुकसाण करून तांचे वांगडा इश्टागत करूंक सोदतात ? चडशा अमेरिकी लोकांक ह्यो गजाली आथव्योच आनी अजापाच्यो दिसल्यो. थोडे रागारूय जाताले. पूण तेन्ना हांवें तांचे संसदीय कागदपत्र दाखोवन तांकां पटयलें की पळयात, भारतांत इंग्लीशीक पोसवण दिवपाफाटल्यान अमेरिकेची फूस आनी हात आसा. तेन्ना ते ओगी पडले. फकत एकाच अमेरिकन प्रोफेसरान म्हाका पत्र बरोवन सांगलें, "जेमेरेन तुमी इंग्लीशींत पत्रवेव्हार करतले, तेमेरेनूच आमचो संबंद तिगून उरतलो. तुमकां मेळून म्हज्यान परतून हिंदी गंभीरपणान शिकपाची उमळशीक जागी जाली, ना जाल्यार मदल्या काळांत कांय वर्सांसावन हो संपर्क तुटिल्लो हो प्रोफेसर एक दक्षिण-आशियी राजकारणाचो व्हडलो जाणकार अशें मानतात. ताणें अशेंय बरयल्लें, "म्हाका आस दिसता, तुमी परते आपणाल्या हिंदी संवसारांत परततकूच भायल्या संवसाराक विसरचे नात. पूण हें नक्कीच बरें की आपल्या (राष्ट्रीय) चरित्राक जाणा जावन घेवप आनी ताजेर नेट दिवप तशेंच बौध्दिक आनी राजनैतिक रुपान दुसऱ्यांच्या चेपणाखाला येवप ना."

ह्याच प्रोफेसरान थोड्या दिसांउपरांत दुसरें पत्र बरयलें. तातूंत म्हणलां - "हांव तुमकां बरोवपाक विसरलों, आमच्या घराच्या दारार एक तकटो हुमकळायला, जाचेर बरयल्लें आसा- श्री. आनी श्रीमती पामर- हिन्दी आनी इंग्लीश, दोनूय भाशांनी."

# संविधान आनी इंग्लीश

भाशेच्या संदर्भांत सांगचें जाल्यार स्वतंत्रतायेचीं फाटलीं चाळीस वर्सां पयलींचे ुलामगिरी परसूय चड वायट अशीं सिध्द जाल्यांत. भारत बंदेपणांत आशिल्लो तेन्ना वभाशेच्या अभिमानाचो उजो महर्षि दयानन्द आमी महात्मा गांधीसारकेल्या म्हापुरसांनी शाच्या खांची कोनशांनी धगधगतो दवरिल्लो. अशें दिसतालें, देश स्वतंत्र जायनाफुडें ग्लीश भासूय ब्रिटीशांवांगडा तोंड घेवन वतली. गांधीजी सांगताले, देशाक स्वातंत्र्य ळनाबराबर देशाचें सगलें कामकाज आपले भाशेंतल्यान सुरू जावंक जाय. तांणी तलेंय सांगिल्लें की सुटकेसावन स म्हयन्यांनी जर कोणूच संसदेंत वा विधानसभेंत ग्लीशींतल्यान उलयतना दिसत जाल्यार हांव तांकां धरून बंदखणींत उडोवंक ायतलों.

बरें जालें, आमचे स्वतंत्रतायेक स म्हयने पुराय जावंचेपयलींच गांधीजी आमकां ंतरले. ना जाल्यार सासणाचे न्हिदेंत विलीन जावंचेपयलीं काळजार एकाचे सुवातेर दोन ातर घेवन वतले आसले. एक जालो फाळिल्ल्या भारताचो आनी दुसरो इंग्लीशीच्या ाज्याभिशेकाचो. हे दोनूय गोडसेच्या गुळयांपरसूय चड धारदार आसले. गोडसेच्यो ुळयो गांधीजीचे पार्थिव कुडीक भेदलेउपरांत थंड पडल्यो. पूण गांधीजींच्या परमप्रिय शिश्यांनी चलयल्ले हे दोन फातर आज लेगीत कोट्यांनी पिडेस्त, दलीत आनी मोन्या ारतीय आनी पाकिस्तान्यांच्या जिवितांक, अस्तित्वांक फोडीत वतात.

## हिन्दीचें रुपडें

हो जो इंग्लीशीचो दुसरो फातर आसा ताजेर स्वतंत्रतायेचो ध्यास घेतिल्ले लोक ोंटांचेर खोंटो घालून धाडायत रावले. स्वतंत्रताय मेळनाफुडें संविधानाच्या देवळांत ेकाच देव करून ताका बसोवन दवरला. संविधानाची धारा 343 हातूंत हिन्दीक ाजभास मानून घेतल्या पूण तिज्या गळ्यांत इंग्लीशीचो फातर बांदून दवरला. 1950 या संविधानान सांगलें, 15 वर्सांमेरेन म्हणल्यार 1965 मेरेन सगलीं सरकारी कामां एक र हिन्दी ना जाल्यार इंग्लीश, ह्या दोनूय भाशांनी चलतलीं. तेभायर 1965 उपरांत ंयच्या खंयच्या कामांनी इंग्लीश वापरची वा वापरची न्हय हें थरोवपाखातीर, 1955 ानी 1960 त दोन भास-आयोग घडयल्ले. तांच्या शिफारशींचेर संसदवांगड्यांची एक मिती विचार करतली आनी हे समितीच्या रिपोर्टाच्या आदाराचेर जर राष्ट्रपतींक योग्य ़सत जाल्यार इंग्लीशीच्या वापराचेर बंदी येतली.

वांगडाच हेंवूय जोडिल्लें की संसदेक जर योग्य दिसत जाल्यार धारा 343 (3) चे

अंतर्गत कांय विशिशट वाठारांनी 1965 उपरांतूय इंग्लीश वापरप चालू दवरपाखातीर जाय जाल्यार एक कायदो घडोवं येता. तेभायर धारा 348 त सामक्या स्पश्ट उतरांनी हिंन्दीचें पान कापून उडयलां. धारा 348 प्रमाण सर्वोच्च न्यायालय, उच्च न्यायालय तशेंच कायद्यांची प्रमाण भास फकत इंग्लीश आसतली. प्रान्तांतल्या (राज्यांतल्या) न्यायालयांत कैफियत आयकप आनी भासाभास जाय पडल्यार भारतीय भाशांतल्यान करपाची सूट राष्ट्रपती दिवंक शकता. पूण कोर्टाचे निकाल, आदेश आदी गजाली फकत इंग्लीशींतल्यान आसतल्यो. अशेच तरेन राज्य विधानसभांचे कायदे गरज पडल्यार प्रान्तीय भासांतल्यान आसूं पूण ताजो इंग्लीश अणकारूच प्रमाण मानतले. इतलेंच न्हय, ह्या कलमांत बदल करपाचो संसदेक कसलोच अधिकार दिवंक ना. संसद जर ह्या प्रावधानांत कितेंय बदल घडोवन हाडूंक सोदता जायत जाल्यार राष्ट्रपती ताका ह्या विशयाचेर संमती दिवंक शकनात; जेमेरेन ते भाशा-आयोगांचो आनी संसदीय समितींचो रिपोर्ट येवन तांचेर चर्चा जायना.

दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार लोकांक भ्रमांत उडोवपाखातीर राजभाशेच्या रुपान हिन्दीचें रुपडें मुखार धरलां आनी ह्या निर्जीव रुपड्यापोंदा एक सजीव आनी चलाख तोंडावळो दवरला तो इंग्लीशीचो. जसजसो काळ सरलो, मातयेचें रुपडें गळूंक लागलें आनी इंग्लीशीचो अस्सल तोंडावळो वयर दिसूंक लागलो. 1955 त शासकीय भास आयोग घडलो; ताणे 1956 त राष्ट्रपतींमुखार आनी 1957 त संसदेमुखार आपणाल्यो शिफारसी दवरल्यो. संसदेचे राजभास समितीन ह्या शिफारसींचेर विचार करतना 1950 तल्या संविधानिक तरतुदींक शीर्षासन करूंक लायलें आनी दोन उतरांनी सांगलें, 1965 मेरेन इंग्लीशीक देशाची मुखेल राजभास आनी हिन्दीक तिजी सह-भास म्हणून दवरची.

1965 मेरेन मालकिणीन दासीचे पांय धुयत रावंचें आनी जेन्ना 1965 त हिंदी मुख्य राजभास जातली तेन्ना इंग्लीशीक जाय तितलो काळ विशेश कार्याखातीर सहराजभाशेच्या रुपान तशीच दवरची. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, भास-आयोग आनी भास-समिती ह्या दोनांनीय इंग्लीशीच्या वापराक शिमीत करचे सुवातेर तिका खंयच्या ना खंयच्या रुपान फुडें व्हरून तिगोवन दवरपाक सल्लो दिलो. जेन्ना वंयूच शेत खाता तेन्ना देवानूच शेत राखपाचें.

1959 त पंडित जवाहरलाल नेहरून अहिन्दी भाशी राज्यांक इंग्लीशीच्या प्रस्नाचेर निशेधाधिकार दिवन उडयलो. तांणी आश्वासन दिलें की जेमेरेन अहिन्दी भाशी राज्याक जाय दिसता, तोंवेर संघाच्या कार्याखातीर इंग्लीशींचें वर्चस्व कायम उरतलें. 1960 त अशाच अर्थाचो एक आदेश राष्ट्रपतीन काडलो. घरखात्यान एका आदेशावरवीं सरळ सरळ सांगलें, संघाच्या कार्याखातीर तुर्ताक इंग्लीशीच्या वापराचेर कसलेच तरेचें

बंधन घालचें न्हय. 1963 त भारत सरकारान राजभाशा विधेयक मांडलें, जाचो उद्देश त्या वेळचो गृहमंत्री लालबहादुर शास्त्री हांच्या उतरांनी एक 'अनवरत द्विभाशावाद' चलोवप हो आसलो.

ह्या विधेयकान इंग्लीशीक सासणाचें हिन्दीचें सह राजभासपद दिवन त्या रुपड्याकूय उबारून भायर मारलें जें रुपडें 1950 त लोकांच्या भंयान सरकारान इंग्लीशीच्या तोंडार चडयल्लें. 1963 तल्या भास - विधेयकान संघ लोक-सेवा आयोगांत हिन्दीच्या वापराची चर्चा केली पूण मद्रास आनी बंगाल हांच्या चेपणाक लागून तो केवळ एक पवित्र हेतूच उरलो.

1965 त हिन्दी आपूण जावन भारताची मुखेल राजभास जाली. दक्षिणेचो विरोध खर जायत गेलो. हाजो परिणाम म्हणून 1967 त भारत सरकारान 1963 च्या राजभास विधेयकांत दुरुस्ती केली. जिका 1968 चे संसदेन मानून घेतली. ह्या दुरुस्त केल्ल्या राजभास विधेयकांत अशी तरतूद केल्या जेमेरेन एक लेगीत हिन्दी राज्य इत्सा दाखयता, तेमेरेन केंद्र सरकाराचें काम इंग्लीशींत चलत रावतलें. हिन्दी भाशी राज्य जर खंयच्याय अहिन्दी भाशी राज्याक पत्र बरोवंक सोदीत जाल्यार ताजो अणकारूय वांगडाच जोडचो पडटलो. तशेंच जोंवेर कर्मचारी सारकी बरी हिन्दी शिकचेनात तेमेरेन केंद्र सरकाराच्या साबार विभागांनी हिंदी पत्रावांगडा इंग्लीश अणकार जोडप गरजेचें आसा. म्हणजेच इंग्लीश सक्तीचीच जावन उरतली असोच हाजो अर्थ. हाजें उरफाटें जावंचें ना. म्हणल्यार जर खंयचोय विभाग इंग्लीशींतल्यान जर पत्र धाडीत वा खंयच्याय हिन्दी-भाशी राज्याक इंग्लीशींतल्यान पत्र धाडीत जाल्यार ताजेवांगडा ताजो हिन्दी अणकार धाडपाची गरज ना.

1968 च्या सुदारीत अधिनियमांत जंय इंग्लीशीक सासणाची हांगा रावपाक सोय केल्ली थंय एकूच गजाल मात आशेचो एक किरण कसो मुखार आयली. ती म्हणल्यार संघ लोक-सेवा आयोगाचे नोकर भरतेंत, आयोगाकडेन परामर्श केलेउपरांत सगल्या क्षेत्रीय भाशांक परिक्षेक इत्सीक माध्यम करपाचें थारलें. तशेंच "केंद्रीय नोकऱ्यां भरतेखातीर उमेदवार वेंचून काडटना तांकां हिंदी वा इंग्लीशीचें गिन्यान सक्तीच्या रुपान आसतलें". अर्थांत हिंदी वा इंग्लीश दोनांभितरली जर उमेदवाराक एक भास आयल्यार ताका वेंचून काडूं येता. दुसऱ्या उतरांनी, पयलेच फावट इंग्लीशीक इत्सीक विशय करप जाले. इंग्लीशीच्या गिन्यानाबगर लेगीत खंयचेय व्यक्तीचें नोकरेखातीर वेंचून येवप संघ लोक-सेवा आयोगान मानून घेतलें.

दुरुस्त केल्ल्या भास-अधिनियमाक मान्यताय मेळ्ळ्यार विसांवयर वर्सां उलगलीं. संघ लोकसेवा आयोग आयजूय न्हिदिल्लेकडेन आसा. संसदेंत मंत्रीगण फटीचीं

आस्वासनां दीत आसतात. सरकारी परिक्षांनी इंग्लीशीची अनिवार्यताय पयलींवरीच कायम आसा. इंग्लीश नकळो जाल्ल्यांक वा उणी जाणा आशिल्ल्यांक भरती आनी बडटेखातीर दारां बंद आसात. कांय वर्सांयलीं अणकार ब्युरोचो एक कर्मचारी श्री. कोमल किशोर सिंघलाचें प्रकरण मुखार आयिल्लें. सगल्यो गरजेच्यो योग्यतायो असून लेगीत ताजी बडटी आडावपाखातीर एक अट घालली की ताणें इंग्लीशीच्या अनिवार्य पेपरांत पास जावंचें पडटलें. सुवात आसा हिंदी टायपिस्टाची आनी अनिवार्य आसा इंग्लीशीचें गिन्यान. कितली विटणूक ही ? हें सरळ सरळ भास अधिनियमाचें उल्लंघन आशिल्लें. पूण मंत्र्यांच्या मेंदवाक ही गजाल पटच ना. फाटल्या दिसांनी बिहारच्या श्यामरुद्र पठक आनी अमरेन्दर सिंह आदी तरणाट्यांनी 'इंडियन इन्स्टिटयूट ऑफ टॅक्नोलॉजी' हे संस्थेंत चळवळ चलयली. कितली लजेची गजाल की स्वतंत्र भारतांत तांकां आपणाले भाशेखातीर उपोषण करचें पडप !

अशेच तरेन दिल्ली प्रशासनान नोकरेखातीर आपणाल्या जायरातींनी उम्मेंदवारांक इंग्लीशीचें गिन्यान एक अनिवार्य अट म्हणून मानून घेतलां. दिल्ली सारकेल्या हिन्दी भाशी वाठारांत कोणाय तरणाट्याच्या पोटाचेर तो इंग्लीशींत प्रवीण ना म्हणून खोंट मारप हाजेइतली लजेची गजाल दुसरी खंयची पूण आसत व्हय ? दिल्लींत लंडनाचे भाशेखातीर आग्रो धरप पिसायपणाचें न्हय ? पूण गांधीजीच्या ह्या शिश्याक कोणाच्यान समजावं येता?

## स्वतंत्रतायेंतूय पुरायेन बंदे (गुलाम)

खरेपणीं, भारताच्या संविधानांतलो राजभाशेचो अध्याय भारतीय भाशांक राजटिळक करपी अध्याय न्हय. वयल्यान भारतांतले कोट्यावधी जनतेचेर सासणाची इंग्लीश भास थापपाचो अध्याय जाला. संविधान लागू जायतसावन इंग्लीशीचो प्रभाव चडत गेला. ब्रिटीशांच्या काळांत केंद्रीय अधिकाऱ्यांक प्रदेशीक भारतीय भासो शिकप सक्तीचें आसतालें. जेन्ना स्वातंत्र्य आयलें तेन्ना फकत इंग्लीश जाणा जावप गरजेचें जालां. बंदेपणाच्या काळांत आमी अर्दे बंदे आसले. स्वातंत्र्याउपरांत आमी पूर्ण बंदे जाले.

ब्रिटीशांच्या काळार प्रशासनांत इंग्लीश वयर-वयर आसली, सकयल-सकयल स्थानीक भासो आसल्यो. स्वातंत्र्य आयलें आनी वयर-सकयल सगल्याकूच इंग्लीश जाली. पयलीं ती केंद्र आनी राज्यांच्या राजपाटणांतूच आसली, आतां ती गांवगिऱ्या वाठारांनीय, खांची कोनशाक, सगल्याक पातळ्ळ्या. सरकारी कचेऱ्यांतलें लागींलागसार सगलें काम इंग्लीशींतल्यान चलता. सरकारान हिन्दीच्या प्रचार-प्रसाराखातीर ज्यो संस्था घडयल्यात तांचें कचेरेंतलें कामकाज लेगीत इंग्लीशींतल्यान चलता हें कोणाक सांगल्यार

खरें दिसत ?

जेन्ना देश गुलामींत आसलो तेन्ना सुमार सशें राजांच्या संस्थानांनी आपल्या राज्यांनी वयल्यांतल्या वयल्या पावंड्यार लेगीत भारतीय भासो चलताल्यो. भाशांचे बाबतींत सांगचें जाल्यार, राजा आनी प्रजा हांचेमदीं, हुकूम आनी फिर्याद हांचेमदीं कसलीच वणत नासताली. स्वातंत्र्य आयलें. संस्थानां खालसा जालीं, राजेशाय सोंपली. तांचे सुवातेर जे नवे राजा-म्हाराजा आयले. तांणी आपणाले सरभोंवतणीं इंग्लीशीच्यो वणटी उब्यो केल्यो. सगले जनतेचेर संविधानान इंग्लीश थापटिली. जो वाठार ब्रिटीशांचे सत्तेखाला आशिल्लो थंय तर इंग्लीश चलतालीच. आतां संस्थानांच्या विलीनीकरणाचो परिणाम म्हणून पयलींच्या संस्थानांच्या वाठारांनीय इंग्लीश चालू जाली.

भारताचें प्रशासन फाटलीं चाळिसांवयर वर्सां एक जादूटोणो जावन रावलां. स्वतंत्र भारताचो राष्ट्रपती प्रजासत्ताक दिसा राष्ट्राक उद्देशून इंग्लीशींतल्यान संदेश दिता. स्वाधीन भारताच्यो पांचवर्सुक्यो येवजणो इंग्लीशींत तयार जातात. स्वतंत्र भारताचें प्रमाणरूप संविधान फकत इंग्लीशींत आसा. स्वतंत्र भारताचें मंत्रीमंडळ आनी संसद हांचें चडशें कामकाज इंग्लीशींतल्यान चलता. ज्या कामांचो लोकांकडेन सरळ संबंद येता तीं सगलीं कामां लोकांक कळनाशिल्ले भाशेंतल्यान चलतात.

देखुनूच स्वतंत्रताये उपरांत अठ्ठेचाळीस वर्सां गेलीं तरी जेन्ना कोणूय गांवगिरो शेतकार संसदेच्या प्रेक्षक दालनांत येवन बसता तेन्ना ताजे लेखीं संसद म्हणल्यार पकत एक तांबड्या फातरांची इमारत आनीं कांय बडबडपी संसदसदस्य. आनीक दुसरो अर्थ ताका दिसचोना. ताणें केन्ना 'हेबियस कॉर्पस एक्ट' हाजें नांव लेगीत आयकल्लें नासता. पुलिसांनी धरल्यार आपणाक सोडोवन घेवपाच्या कामांत तो आजूय भिंयेवन तितलोच कश्टता जितलो देश स्वतंत्र जावंचेपयलीं कश्टतालो आनी थरथरतालो. स्वतंत्रतायेन ताका कितें दिलें ? सरकार, संसद, पांचवर्सुक्यो येवजणो, न्याय, शिक्षण सगलें ताका एक कुवाडें आनी जादूटोणो. गुलामीच्या काळार राजा-म्हाराजांच्या न्यायालयांनी चलपी ताज्या नशिबाचो न्यायनिवाडो उणोच ताका कळटालो तरी. ताजे भाशेंतल्यान वादविवाद, भासाभास आनी निकाल जाताले. स्वतंत्रतायेन ताजे समजशक्तीचेर इंग्लीशीचो पड्डो घालो. ताज्या जिवीत मरणाच्या प्रस्नाचेर कोर्टांत आयज इंग्लीशींत भासाभास चलता आनी तो बावडो भेऱ्यावरी उबो रावून फकत पळयत आसता. तो मोनोय बी, कारण ताका इंग्लीश उलोवंक कळना. जी भास 'वयल्या लोकांक' कळटा ते भाशेंत ताका उलोवंक येना. हिंदुस्थानाच्या भौसाक, सामान्य मनशाक हे वेवस्थेन, ह्या संविधानान मोनो आनी भेरो करून उडयलो. ज्या देसांतली वेवस्था सामान्य मनशाक मोनो आनी भेरो करून उडयता थंय लोकतंत्र, खरें प्रजातंत्र कशें येवंक पावतलें?

देशाची सगली वेवस्था आंवळून तथाकथीत ‘व्हडल्या लोकाच्या हातांत एकवटल्या. वेवस्थेचें दूद ‘व्हडल्या लोकां’ चो हो ल्हानसो वर्ग पियेत आसा. वेवस्थेखातीर, स्वातंत्र्याखातीर रगत दिवपी ल्हान ल्हान लोकांचो वर्ग भायर तिश्टत उबो आसा आनी ह्या दोनूय वर्गांमदीं आमच्या संविधानान, शासनान आनीक एक वणत बांदून काडल्या. ते वणटीचें नांव इंग्लीश. जेमेरेन तुमी ही वंय वलांडूक पावनात, तुमी भायरूच हात चोळीत तिश्टत उबे रावपाचें. दूद पियेवपी वर्ग इंग्लीशीवांगडा जोडिल्लो आसा आनी रगत वारोवपी वर्ग भारतीय भाशांवांगडा. दूद पियेवपी इंग्लीशीची तरफदारी करतात आनी इंग्लीश ह्या दूद पियेवप्याक घटमूट आनी सुखरूप दवरता.

ह्या देशांत जांकां भरमसाठ पगार मेळटात ते कोण तें तुमी जाणात व्हय? रेल्वेच्या पयल्या वर्गाच्या डब्यांतल्यान कोण भोंवडी करतात हाजेर केन्ना तुमी लक्ष दिलां? विमानांनी भोंवपी लोक कोण आसतात हाजी माहिती तुमी केन्ना मेळयल्या? देशांतल्या बऱ्या बऱ्या सुंदर सोबीत कॉलनींनी कोण कोण रावतात हें तुमी बारीकसाणीन केन्ना तेळ्ळां व्हय ? हेच ते सगले लोक जांकां तुमच्यांनी इंग्लीशधार्जिणे म्हणूं येता. इंग्लीशीवांगडाच दुडू, गिरेस्तकाय, खाशेले अधिकार, सुखाचीं साधनां आदी गजाली जोडून येतात. आनी भारतीय भाशांवांगडा किदें येता ?

भारतीय भाशांवांगडा, सामान्य मनशाचे भाशेवांगडा गरिबी, पिडा, आनी एक शापीत जिवीत दसलेलें आसा. ह्या शापीत जिविताचे वांटेकार ह्या देशांत कोट्यांनी संख्येन आसात. ते ह्या शापांतल्यान मेकळे जावंक सोदतात. तातूंतल्यान वयर सरूंक सोदतात. तांचेभितर ती तांक आसा. पूण ते खऱ्यांनीच वयर सरले जाल्यार किदें जातलें? अच्छेव, खवदळ जातलो. खाशेले ह्क्क वांटून वतले, धन आनी धर्तरेची वांटणी जातली, सोयी-सवलती विभागून वतल्यो, सगल्यांचो भागाकार जातलो. अशें जालें जाल्यार दूद पियेवपी वर्गाकडेन कितें उरतलें ? तांचेभितर आनी सामान्य मनशाच्या वर्गामदीं किदें फरक उरतलो ?

दूद पियेवपी वर्ग आपणाल्या वस्तूंची राखण करूंक सोदता, ताका वाटावंक सोदता. आपणाली वस्त सांबाळपाची एक वाट म्हणल्यार थंयमेरेन वचपाचो मार्ग मातसो कठीण करून दवरप. पयलींच्या काळार राजा आपणाल्या किल्ल्याची राखण कशी करतालो ? सैन्य आसतालेंच; वांगडा किल्लेच वयर ऊंच दोंगराचेर बांदप जातालें आनी तांचे सरभोंवतणी चर वा खंदक खणिल्ले आसताले. हाका लागून दुस्मानालागीं झुजपाचो वेळ येतलो तेन्ना येवं मागीर, पूण पयलींच ताका लागीं येवपाक कठीण जावंचें.

## इंग्लीशीचो चर

हो जो दूद पियेवपी वयलो वर्ग आसा तो फाटलीं दोनशें वर्सांसावन घट पांय रोमून आसा. ह्या किल्ल्याच्या चारूय वटांनी ताणें चर खणून दवरल्यात. देशांतले कोट्यावधी तरणाटे जेन्ना ह्या चरांकडेन पळयतात तेन्ना तांचें मर्दपण उसळून येता. पूण चोंयवशीन इंग्लीशीची भंयकंप दरी पळोवन तांचें काळिजूच फुट्टा. इंग्लीशीवरवीं कोट्यांनी लोक फुडें वचपाचे आडावन दवरिल्ल्यान मदींच हातपांय गळसणून, हड्डें फुटून वता. दरेके व्हडले नोकरेखातीर, दरेका व्हडल्या पगाराखातीर, दरेके सोयी-सवलती आनी सोंपेपणाखातीर इंग्लीश ही पयली अट. हाजो परिणाम कितें जाता ? परिणाम सामको सादो-सरळ आसा. जो सुविधासंपन्न वर्ग आसा, तो विनासायास आपणाल्या भुरग्याक खर्चीक इंग्लीश स्कुलांनी घालून आपणाल्या वर्गाक आनीक घटमूट करता, ताका पोपटपंची, नक्कल करपी आनी सुविधाखोर करून सोडटा. हो नवे पिळगेचो नवो वर्ग दर वीसतीस वर्सांनी पयलींच्याची सुवात घेता. वर्गहिताच्या ह्या अखंड व्हांवत रावपी घोग्याचें सगल्यांत व्हडलें श्रेय इंग्लींशीक वता.

स्वतंत्रतायेच्या फाटल्या चाळिसांवयर वर्सांनी ह्या सुवार्थी वर्गांत संविधानाच्या त्या तरतुदींचोय जाणून बुजून अवमान केला, अवहेलना केल्या. त्या तरतुदींक पाळो दिल्लो जाल्यार घडये भारतीय भाशांचें चड प्रचलन जातलें आशिल्लें. तशें पळयल्यार संविधानांत. इंग्लीशीक फावोशी मानाची सुवात दिवन दवरल्या. म्हज्या मतान आशीक भारतीय जनता आनी तांच्या प्रतिनीधींनी संविधानाच्या भाशेसंबंदीच्या भागाक परतून पुरायेन बरोवपाची मागणी करूंक जाय आनी नव्या भास तरतुदींत इंग्लीशीची खंयच नांव निशाणी लेगीत येवंची ना हाजी जतनाय घेवंक जाय. वयल्यान जाता जाल्यार तातूंत अशीय एक तरतूद आसची की अँग्लो-इंडियन आनी विदेशी लोकांभायर हिंदुस्थानांत जो कोणूय इंग्लीशीचो भौशीक वापर करीत ताजेआड कायदेशीर कारवाय जातली. सगल्या देशाच्या प्रशासनाक हिन्दी आनी हेर प्रदेशीक भाशांवरवी जोडून घेवंचो. गरज पडली जाल्यार केंद्र भौभाशी जावंचें. संघ लोकसेवा आयोगाच्यो परिक्षा हिंदी तशोच हेर प्रदेशीक भाशांतल्यान जावंच्यो.

एक फावट इंग्लीशीची वणत मोडली म्हणटकूच उत्तर आनी दक्षिणेच्यो भासो एक जातल्यो. हिन्दीचो अकडू आनी तमीळाचो सिकडू आपसुकूच एकामेकांक लागीं येतले. तांकां आपलेभितर उलोवप करचें पडटलेंच. पयल्याक आपणालो गर्व आनी झेत (अकड) सोडची पडटली आनी दुसऱ्याक आपणालें संकुचीतपण. आयज उत्तर आनी दक्षिण इंग्लीशीचे अडेचे जमनीचेर रावून उलयतात. फाल्यां ते आपापले जमनीचेर उबे रावून उलयतले. तातूंत चड आत्मविस्वास आसतलो. एकामेकाच्या खरेल्या रुपाक

वळखूंक पावतले. काळजां जुळटलीं, मनां एक जातलीं. एकचार वाडीक लागतलो. सगले गळ्यांत गळो घालून एकवटान फुडें वतले एक नवो भारत तयार जातलो.

संविधानांतल्यान इंग्लीश एक फावट भायर सरली आनी काबार जाली म्हणटकूच ताजो सगल्यात व्हडलो बरो परिणाम जातलो तो असोः ल्हानांतल्या ल्हान मनशाचें हड्डें लेगीत अभिमानान फुलतलें. आपणाले भाशेच्या बळग्याचेर तो खंयच्याय व्हडल्यांतल्या व्हडल्या पदाचेर पावतलो. इंग्लीश देसाभायरी जाली म्हणटकूच दूद पियेवपी आनी रगत वारोवपी लोकांमदीं जी दरी आसा ती पुरायेन पुरवतली अशें समजुपाचीय गरज ना. वर्गभेदाचो हो चर निर्माण जावपाक इंग्लीशी वांगडाच आनिकूय कांय तत्त्वां जापसालदार आसात. इंग्लीश गेली म्हणटकूच इतलें तरी नक्की जातलें की ह्या चराचेर पाटो बांदपाचो मार्ग तरी उकतो जातलो. आमी एक फावट रस्तो उकतो जालो म्हणटकूच ध्येयाकडेन पावप कठीण नासता.

❑

# इंग्लीशीक कशें धांवडावंचें ?

वाराणसी आनी नागपूरांतली 'अँग्रेजी हटाओ' संमेलनां अभूतपूर्व अशीं जालीं. ह्या संमेलनाखातीर देशाच्या खांचींकोनशांतल्यान हजारांनी प्रतिनिधी आयिल्ले. तमीळनाड, आंध्र, बंगाल, केरळ, ओरिसा, तशेंच हेर अहिंदी भाशीक प्रदेशांतल्यान लेगीत भरपूर लोकांनी ह्या संमेलनांनी वांटो घेतलो. ह्या वांटो घेवप्यांमदी विचारवंत, राजकारणी, तरणाटे, पत्रकार तशेंच काय वेवसायीक लेगीत आसले. संमेलनाच्यो सगल्यो बसका आनी सभा उत्साही तरणाट्यांनी गाजयल्यो म्हणल्यार जाता.

थंय जमिल्ल्या तरणाट्यांचीं उजो ओंकपी उलोवपां आयकून दिसतालें, जर हांकां कोणूय फावोशी कुरू करीत जाल्यार ते भूंय - मळब एक करून आरत्याचें परतें करपाक फाटीं नात. जनक राजाचे सभेंत लक्ष्मणाच्या मनांत जी उर्बा आनी जो संकल्प जागो जालो तशेच तरेची जाग आनी उमेद थंय तरणाट्यां मदीं पळोवंक मेळ्ळी. तांचे आव्हान दिवंक सादपी तोंडावळे परतपरत आमच्या फुडारपण-रुपी रामाक आग्रो करूंक सुचयताले की तुजी कुरू दिसल्यार पुरो; आमी सगले तें इंग्लीशींचें शीव-धनुष्य कांयच न्हय करून एकाच धपक्यान तोडून दाखयतात.

## कार्यावळ

संमेलनांतलो राम वैदेहीच्या रामापरस चड कृतसंकल्प आसलो. ताणें कुरू केलीच. संमेलनाच्या फुडारपणान क्रांतिकारी निर्णय घेतले आनी कोणाची भीड-मुर्वत दवरिनासतना सगल्यांमुखार ते मांडून मेकळे जाले. सगले भासाभाशेचो आनी निर्णयांचो सार असो आसलो : इंग्लीशीच्या भौशीक वापराक असभ्यतायेची कुरू अशें मानपाचें; आनी जशे तरेन खंयच्याय असभ्य कर्तुबाक आमी हिणसायतात आनी ताका प्रतिकार करतात, तेच तरेन जंय-थंय इंग्लीशीचो भौशीक वापर जाता तेन्ना ह्या आंदोलनाचे आपवावुरपी ताजेर खर कारवाय करतले.

ह्या कारवायांमदीं किदें किदें आसपावता ? ताजोय निर्णय जालो. इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकोवपी अध्यापकांच्या वर्गांचेर बहिश्कार, इंग्लीश तकट्यांक पुसून काडप, इंग्लीशीचीं प्रतीक-चिन्नां म्हणल्यार इंग्लीश खबरांपत्रां, टायपरायटर, टेलिप्रिंटर आदी वस्तूंची त्या वेपारी संस्थानां सामकार होळी जळोवप, जे आपणाल्या वस्तूंचेर इंग्लीशींतल्यान लेबलां लायतात, भौशीक जमातींनी आनी सभांनी तशेंच संसद आनी विधानसभांनी जे इंग्लीशींतल्यान भाशणां करतात त्या फुडाऱ्यांक आनी मंत्र्यांक घेराव घालप; इंग्लीश स्कुलां, लोक सेवा आयोग आनी नोकरशहांच्या तशेंच जंय इंग्लीशींतल्यान कामकाज आनी कारभार चलता तांच्या घरांकडेन धरणें धरप,.

हें आंदोलनात्मक पावल जालें. संमेलनाची आनीक एक कार्यावळ आसा. ताणें अध्यापक, न्यायाधीश, वेपारी, पत्रकार आनी सरसकट सामान्य जनतेक परतून सांगलां तांणी आपणाल्या सगल्या कामांतल्यान इंग्लीशीक भायरी करची. संमेलनान सरकाराकडेन मागलां, ताणें सरकारी कामांतल्यान इंग्लीशीक सामकी बहिश्कृत करची. तशें पळयल्यार हें निवेदन म्हणल्यार एक विनंती न्हय जाल्यार ती एक शिटकावणी, एक चत्राय. म्हणल्यार अशें, जर तुमी इंग्लीशीचो भौशीक वापर ताबडतोब थांबोवचेनात तर आमकां तीं कठोर पावलां घालचीं पडटलीं जीं वयर सांगल्यांत.

वयर सांगल्यात त्या गजालींवयल्यान स्पश्ट दिसता की संमेलनान इंग्लीश कित्याक हटोवची हें सांगलांच तेभायर ती कशी आनी ताकतिकेन हांगाच्यान तोंड घेवन वचत हाजेरूय बरीच भासाभास जाल्या. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार संमेलनाक आयिल्ल्या प्रतिनिधींचें अशें ठाम मत आसलें की इंग्लीशीकडल्यान आमची बेगीन सुटका जावंक जाय. आनी ह्याच हेतान ताणें पुराय भासाभास केलेउपरांत वयली कार्यावळ आपणायली.

## सरळ कारवाय

जी कार्यावळ वयर सांगल्या ती पळोवन आनी वाचून कांय लोकांचें अशें म्हणणें की तुमी तोडप-फोडप आनी हिंसा हांचेर विस्वास दवरून कार्य करूंक सोदतात. तुमचो मार्ग विध्वंसाचो; रचनात्मक न्हय. हे संबंदीं हांव इतलेंच सांगूंक सोदतां, मुळांत तोडप-फोडप आनी हिंसा हांकां आमी एक उपयोगी आनी योग्य पद्दत अशें मानिनात. पूण जाता कितें ? खूब फावटीं जागोवपाच्या आनी चत्राय दिवपाच्या बऱ्या कामाकूय थोडे लोक गैरसमजान तोडफोडीची आनी हिंसेची कारवाय अशें समजतात. जशेपरीन चौकीदार रातचो दांडो धाडायत पासयो मारता तेन्ना लोक लाठीहल्लो समजून केन्ना केन्ना न्हिंदेंतल्यान कांचवेतात.

अशेच तरेन नांवाचे तकटे बी पुसप हें लोकांच्या बऱ्याचेंच काम. लोक जाणात आनी मानतातूय बी की नांवांची तकटे इंग्लीशींत आसूंक जायनात. पूण आळसायेन आनी खर्चाच्या भंयान ते लोक तकटे बदलिनात. अशे परिस्थितींत जर आमचे आपवावुरपी ते पुसून उडयतीत जाल्यार तातूंत किदें वायट ? आनी कांय तकटे जर तांणी पुसले जाल्यार बाकीचे लोक ते आपूण जावन धडाधड पुसून उडयतले. हेर दुकानदारांकूय प्रेरणा मेळटली. ह्या कामाच्या वेळार थोडी तोड-फोड, हिंसा भी जातलीच, गैरसमजान झगडींय जावं येतात. आमचे स्वयंसेवक चत्रायेन काम करतीत आनी फावो ती जतनाय घेतीत जाल्यार चड बरें. कारण आमचो उद्देश लोकांक त्रास दिवपाचो नाच, तांकां मदत

करपाचोच आसा. आन्दोलकांनी पयलींच लोकांक भोंगे वाजोवन, पेपरांनी खबर दिवन बी कळयल्यार चड बरें.

आपणाले पूर्वसुचनेवरवीं आन्दोलकांनी आनीक एक काम करूं येता. तें अशें, इंग्लीशीच्या प्रचलीत वाक्यप्रचारांचे आनी शब्दप्रयोगांचे नमुने आनी देखी तांणी दिवंच्यो. देखीक, 'रामलाल ॲण्ड ब्रदर्स' हाजें 'राम बन्धु',' रामा स्टोर्स'चे सुवातेर ' राम भंडार' आदी. एकेच तरेचीं जायतीं नांवां आसतात. देखून वीस-तीस देखी घेतल्यार हजारांनी तकटे आनी बोर्ड बदलूं येतात. ना जाल्यार आयजकाल ताकतिकेन लोक इंग्लीशींतलीं नांवां जशातशीं देवनागरींत बरयतात. इंग्लीशीक पुरायेन धांवडायतले जाल्यार इल्ली तकली लडोवंची पडटली.

केन्ना केन्ना आंदोलन करपी लोक जाचेर किदेंय इंग्लीशींतल्यान बरयल्लें मेळटा तें तें सगलेंच नशट करून उडयतात. हें मात समा न्हय. अशें करीत रावले जाल्यार सगल्यो घडयाळी, रेडिओ, पॅनां तशेंच दुकानांय काबार जातलीं. हांगां तत्व आसा तें अशें, जें आमी केन्नाच विसरूंक फावोना. आपूण जें किदें काम करतात तें इंग्लीशींतल्यान आसचें न्हय हाजी जाणविकाय लोकांक करून दिवप इतलोच आमचो उद्‌देश. घडयाळी, रेडिओ, मोटारी तशेंच पॅनांचेर लोकांचे खोशयेन कांय इंग्लीशींत बरयल्लें नासता. हें जाल्लें आसता तें कारखानदारांचे चुकीक लागून. देखून कारखानदारांकूच ह्या कामांत जापसालदार धरूंक जाय. आं, आतां लोक नांवांच्यो पाटयो, पावत्यो हांचेर आपूण स्वता इंग्लीशींतल्यान बरोवंक लायतात. म्हणून ह्या वस्तूंचेर सरळ कारवाय करूं येता. कारखान्यांचेरूय सरळ कारवाय करूंक फावो.

## वस्तूची हिंसा ही हिंसा जायना

आतां इंग्लीशींतलीं मुद्रक आनी दूरमुद्रक मशिनां मोडपाचो प्रस्न येता तेन्ना वा इंग्लीश विक्री-चिन्नां आशिल्ल्यो वस्तू लासपाचो प्रस्न येता त्या वेळार वयलें तरेचें सामान एकठांय करून भर तिस्कार आपवावुरप्यांनी स्वेत्सेन तांची 'सांकेतिक' होळी करूं येता. संमेलनान खरें म्हळ्यार सामान एकठांय करून तें लासपाचो प्रस्ताव पास केला, मागीर तें सामान खंयचेच सुवातेर नदरेक पडूं . पूण हांवें स्वता 'सांकेतिक' उतराचो चड आग्रो धरीन.

हाजो अर्थ फकत इतलोच की तें गंभीर पावल घालचे पयलीं आमकां आमचेंच सामान फुकून लासचें पडटलें; म्हणटकूच हेरांची कागाळ येवपाची ना. भारतांत इंग्लीश भाशेचो वापर शोषणाचें एक हत्यार म्हणून करतात हातूंत जाल्यार इल्लोय दुबाव ना. आनी शोषणाआड दरेके तरेन झुजप हो आमचो जल्म - सिध्द हक्क. देखून इंग्लीशीक

कायम हांगा दवरूंक सोदपी, आनी तिका चालंत दवरपी जितलीं म्हणून साधनां खंयूय आसतीत तांकां निश्ठूरपणान काबार करप, कडेक काडप एकदम गरजेचें. इंग्लीश खबरांपत्र, इंग्लीश मुद्रक आनी दूरमुद्रक मशिनां हेच तरेचीं साधनां. हांकां काबार करप हे गजालींत हिंसा अशें धरूंक फावोना. आतां प्राण्यांची हिंसा आनी वस्तूंची हिंसा हातूंत फरक केल्यार बरें जातलें. प्राण्यांक उण्यांत उणे कश्ट दिवन गुलाम करून दवरपी वस्तूंक चडांत चड काबार करप आमच्या आंदोलनाची मुखेल कार्यावळ आसा.

## आपलो लगाम आपणेंच सांबाळचो

'अंग्रेजी हटाओ' आंदोलन ही हेर भौशीक आंदोलनापरस वेगळे तरेची चळवळ. ही खंयचोच राजकी पक्ष न्हय; ही फक्त चळवळ; हिजो फुडो सत्तेवटेन ना, लोकांवटेन आसा. हिजें काम सत्ता मेळोवप न्हय, तर लोकांक जागें करपाचें (सरकार जागें जातलेंच!) देखून आंदोलनाच्या जाळवणदारांक दिसता, थळाव्या समित्यांनी केन्द्रीय आदेशांचेर चड अवलम्बून रावूंक जायना. तांणी स्वताचेच उर्बेन आनी उमेदीन आन्दोलन चलोवंचें, कीट एके सुवातेवयल्यान उसळून दुसरे सुवातेर खंय तरी पडची आनी अशो तरेन भाशीक स्वतंत्रतायेचो उजो आख्खो देशभर पातळचो.

संमेलनाच्या थळाव्या समित्यांनी संपूर्ण आंदोलन पेट घेसर वाट पळयत ओगी बसचें न्हय. केंद्रीय कार्यालयांतल्यान मेळिल्लें 'अंग्रेजी हटाओ' साहित्य तांणी लोकांक वांटूंक जाय आनी ताजेर बारीकसाणेन, निश्ठेन भासाभास करूंक जाय. विचारांचे बळगें सगल्यांत व्हड आसता. समितीचे वतीन साबार कारखानदार, नोकरशहा, शिक्षक तशेंच हेर लोकांक पत्रां बरोवन धाडूंक जाय; जातूंत समजावणी आसतली आनी शिटकावणी आसतली. आन्दोलनाक व्यापक करचेखातीर सगल्या वेवसायांतल्या लोकांक तातूंत वांटेकार करूंक जाय.

लोकांमुखार एक गजाल घणघणीतपणान नितळ बरी येवंक जाय ती अशी; हें आंदोलन खंयच्याच राजकी पक्षाचें सुवार्थ सादून घेवपाचें साधन न्हय तर तो एक राष्ट्रीय आत्म्याचें पुनर्जागरण आनी स्वताच वळखुपाखातीर केल्लो एक सांस्कृतिक आनी आध्यात्मिक प्रयत्न आसा. हाजो अर्थ असो न्हय की हें आंदोलन राजकी पक्षांचो पालव घेवकं सोदिना. हें आंदोलन देशांतल्यां सगल्या संगटीत आनी असंगटीत वर्गाक उलो मारता आनी शिटकावणी दिता की तांणीय येवंचें आनी गुलामगिरीच्यो ह्यो वणटी जमनीभरवण करपाक आदार दिवंचो.

## बहिश्कार घालात

लोकांक जागोवपाखातीर संमेलनाच्यो समित्यो आंदोलनात्मक काम तर करतल्योच, पूण जे लोक जागे जाल्यात तांचेकडेनूय आमी मागतात की तांणी आपणाल्या कामकाजांत इंग्लीशीचो बहिश्कार मातसो मनापासून करचो. आपणालो पत्रवेव्हार, कागदपत्रां, आपोवणे पत्रां आदी गजालींनी तांणी आपणाले आवयभाशेचो प्रयोग सक्तीन करीत रावचें.

ज्यो भाव-भयणी शिक्षणाच्या मळार काम करतात तांणी आपणालें शिकोवपाचें कार्य एकदम भारतीय भाशेंतल्यान सुरू करचें, तशेच आपणाल्या भाशांतल्यान पाठ्य-पुस्तकां बरोवपाची आनी विदेशी भाशेच्या पुस्तकाचे अणकार करपाचीय जापसालदारकी आंगार घेवंक जाय. वकिलांनी उच्च न्यायालयांनी पक्षकारांचे भाशेंतल्यान भासाभास सुरू करची. हातूंतल्यान इंग्लीशीचो 'हावको' आनी कुवाडें-जादू काबार जातलो आनी लोकांक न्यायवेवस्थेचो खरो पडटाळो येवंक पावतलो. विज्ञान आनी चिकित्सेच्या मळार काम करपी कांय लोकांक संकल्प करून फुडें सरचें पडटलें. ना जाल्यार आन्दोलनाचो पुराय फायदो मेळचोना. विद्यापिठांनी इंग्लीश भास जर एके भाशेच्या रुपान शिकोवपाची आसत आनी कांय लोक आपखोशयेन जर ती शिकूंक सोदतात जाल्यार आमची आडकाठी आसची ना. पूण ती भास नोकरी आनी नियंत्रणाचें हत्यार म्हणून ताजो उपयोग करूंक मेळूंक जायना. जेन्ना जायत्या विदेशी भाशांमदली फकत इंग्लीशूच शिकोवप जाता तेन्ना ताजेफाटल्यान नोकऱ्यो आनी सवलती सोयी मेळोवपाचें गुप्त कारस्थान आसता, भायलें गिन्यान मेळोवपाची इत्सा आसून नाशिल्लेवरीचआसता. विद्यापिठांनी आशिया आनी आफ्रिका ह्या खंडांतल्योय भासो बरे तरेन शिकयल्यार आनिकूय बरें जातलें. हे बाबतींत स्वता विद्यापिठांच्या जाळवणदारांनी येवजूंक जाय; ना जाल्यार विद्यार्थी आन्दोलन चलोवपाक मेकळे आसातूच.

संमेलनान राज्य सरकारां लागीं नेटाची मागणी केल्या की तांणी इंग्लीश पुस्तकां उजवाडावपांत राष्ट्रीय धनाचो इबाड करचे सुवातेर प्रादेशिक भाशांतल्यान बऱ्यांतलें बरें साहित्य निर्मुपाक प्रोत्साहन दिवचें. वेपारी जर आपल्याच देशांत आपणालो म्हाल चड खपचो अशें येवजितात जाल्यार तांणी आपणाल्या म्हालाचेर विक्री-चिन्नांनी प्रादेशिक भाशांचो उपेग करूंक जाय. तेचप्रमाण विदेशांनी खप वाडचो अशें तांकां दिसता जाल्यार तांणी त्या त्या देशांतले भाशेंत विक्री-चिन्नां तयार करूंक जाय; फकत इंग्लीशींतूच न्हय, गिरायक इंग्लीश चिन्नाच्या म्हालाचेर बहिश्कार घालूंक शकतात तशेंच दुसऱ्या संस्थानांवरवीं भारतीय भाशांनी अंकीत जावन बाजारांत येता आनी जो म्हाल सोंपेपणीं मेळटा तोच विकतो घेवंक शकता.

❑

# हे किदें म्हणटात ?

जर म्हज्या हातांत हुकुमशायी सत्ता येत, जाल्यार आयच्यानूच हांव विदेशी माध्यमांतल्यान जावपी आमच्या चले-चलयांचें शिक्षण रोखड्यारोखडें बंद करीन आनी सगल्या शिक्षकांकडल्यान आनी प्रोफेसरांलागच्यान हें माध्यम बदलून घेन वा ताका बरखास्त करीन. हांव पाठ्यपुस्तकां तयार जावपाची वाट पळयत रावचोंना. तीं माध्यमाच्या बदला फाटोफाट आपसुकूच येतलीं. ही एक सामकी वायट गजाल चलता तिजेर बेगीन उपाय जावंक जाय.

**- महात्मा गांधी**

जे लोक इंग्लीश हांगा चालू आसताना समाजवाद हांगा कायम वरूंक सोदतात ते म्हज्या मतान मुर्खूच आसतात. जे लोक इंग्लीश हांगा आसतना जनतंत्र्य येवं येता अशें मानतात तेवूय पिशेच. आमकां जाल्यार दिसता, इंग्लीश हांगा आससर हांगा इमानदारी लेगीत येवप शक्य ना. थोडेशेच लोक ह्या इंग्लीशीच्या जादवावरवीं कोट्यांनी लोकांचो घात मारतात.

**- डॉ. राममनोहर लोहिया**

भारतांत इंग्लीश माध्यमाची शिक्षण पद्दत चालू करून ब्रिटनान भारताचें सगल्यांत व्हडलें लुकसाण केलां. ताणें भव्य लोकांच्या आत्म्यांत हिणतायेची भावना भरून तांकां नक्कल करपी अशे करून उडयल्यात.

**- डब्ल्यू बी येट्स**

जेमेरेन भारतीय संसदेची भासाभास इंग्लीशींतल्यान चलत रावतली, देशाच्या राजकारणाचो लोकांकडेन कांयच संबंद उरचोना; आनी तें एका ल्हानशा वर्गाची मिरास जावन उरतलें.

**- गुन्नार मिर्दाल**

स्वातंत्र्यापयलींच्या काळांत स्वदेशीचे प्रतिश्ठेखातीर विदेशी वस्त्रां लासप जितलें गरजेचें नी तर्काक धरून आसलें तितलेंच अंग्रेजी हटाओ आंदोलन आज भारतांत भारतीय भाशांचे भौशीक प्रतिश्ठेखातीर गरजेचें आनी तर्कसम्मत आसा.

**- डॉ. धर्मवीर भारती**



# घोशणा

इंग्लीशीचें शिक्षण सक्तीचें जाल्ल्यान ताणें कोट्यांनी भुरग्यांक बौध्दिक नदरेन अपंगूळ करून उडयल्यात. दोन टक्के इंग्लीशधार्जिण्या लोकांनी देशांतल्या सगल्या सोयी-सवलतींचेर शेक मेळयला. कोट्यांनी दुबळ्या, पिडेस्त, चिड्डल्ल्या दलीत वर्गाच्या जगांत काळोख भरला. ताजे उदरगतीच्या सगल्या संदींचेर हो इंग्लीशधार्जिणो वर्ग सोरपावरी विळखो घालून पातळ्ळा. हिंदुस्थानांत सध्या चलता तो इंग्लीशीचो शेक समाजवाद आनी लोकशायेची हत्या करपाचें आयूध जालां. इंग्लीशीन मनशा मनशांमदीं चर करून दवरल्यात, इंग्लीशीवरवीं देशांत एक फुटकळ, निरुपयोगी, नकली वर्ग तयार जावंक लागला जो सर्वसादारण जनतेचो दुस्वास करता. इंग्लीशीवरवीं ह्या देशांतल्या एका खूब मोट्या वर्गाक दुबळो आनी गरीब दवरून आनी एका ल्हानशा वर्गाक ताकदवान आनी गिरेस्त करून सोडपाचो ब्रिटीश कट अजून निर्लज्जपणान चालूच आसा. इंग्लीशीचो भौशीक प्रयोग आम जनतेआड एक अर्थीक, संस्कृतीक, समाजीक आनी अहिंसात्मक डावूच (कट) आसा. इंग्लीश हांगासून गेलेबगर हांगाची गरिबी वचपाची ना.

अंग्रेजी हटाओ संमेलन ह्या षडयंत्राआड (कटाआड) हिंदुस्थानाच्या संकल्पशील तरणाट्याचें एक जितें-जिवें आंदोलन. ही कसलेच परंपरागत विचारसरणी वा राजकी पक्षाची चळवळ न्हय. इंग्लीश भास आनी साहित्य स्वेत्सेन शिकप-शिकोवप हांचेच आड ती चळवळ ना. मनीसजातीक ताजे आत्माभिव्यक्तीचे अधिकार मेळोवन दिवपाखातीर हें आंदोलन आसा. हाजीं दारां सगल्यांखातीर उकतीं आसात. कोणाच्यानूय येवं येता.

## उद्देश

-भारताच्या भौशीक जिवितांतल्यान इंग्लीशीचें वर्चस्व काबार करप.

-न्याय, प्रशासन आनी शिक्षण आदी मळांचेर सक्तीचे इंग्लीशीआंड एक नेटाचो संघर्श करप.

-इंग्लीशीचे सुवातेर सगल्या भारतीय भाशांक बसोवप.

-ल्हानांतलो ल्हान मनीस आपणाले निजी भाशेच्या आदारार व्हडल्यांतले व्हडले सुवातेर पावूं येता अशी समाजवेवस्था निर्माण करप.

# कार्यक्रम

१. राष्ट्रपती, प्रधानमंत्री, मुख्यमंत्री, मंत्री, संसदसदस्य आनी विधायकांक विनंती करची की तांणी इंग्लीशींतल्यान भाशणां दिवचीं न्हय. जर तांणी तशें केलें जाल्यार ताका नेटान विरोध करप. तांकां काळे बावटे दाखोवप.

२. इंग्लीश माध्यमांतल्यो पब्लीक शाळा बंद करच्यो अशें सरकारालागीं मागप. पब्लीक स्कुलांआड निदर्शनां करप, धरणें धरप आनी तांचेआड लोगांमदीं जाग हाडप.

३. इंग्लीशींतले नांवां-तकटे आनी पाटयो पुसून उडोवप. ते सुवातेर थळाव्या भाशांतल्यान बरोवन घेवप.

४. लोकांकडेन मागप की तांणी आपणाल्या कार्यावळींचीं आपोवणीं इंग्लीशींतल्यान धाडचीं न्हय. ज्या कार्यक्रमांचीं आमंत्रणां इंग्लीशींत आसतलीं तांचेर सरळ बहिश्कार घालप.

५. इंग्लीशीच्या सक्तीच्या शिकपाआड स्कुलां आनी कॉलेजांनी निदर्शनां आनी धरण्यांचें आयोजन करप.

६. आपणालें सगलें कामकाज आपणाले भाशेंतल्यान करप. इंग्लीशींतल्या पत्रांक लेगीत आपणाले भाशेंतल्यान जापो धाडप.

७. आपणाल्या म्हालाचेर विक्री-चिन्नां इंग्लीशींत घालची न्हय असो दुकानदार आनी कारखानदारांकडेन आग्रो धरप. हाजे फुडें वचून इंग्लीशींत विक्री-चिन्नां आसात त्या वस्तूंक लासून उडोवपाची कार्यावळ जावं येता.

८. दुकानदारांनी आपणाल्यो पावत्यो-रसिटी बी प्रदेशीक भाशांनी छापच्यो.

९. लोकभाशांचें म्हत्व स्थापीत जायत आनी इंग्लीशीचें पोकेपण उकतडार येत अशे तरेच्यो सर्ती आनी कार्यावळी स्कूल- कॉलेजीच्या वादविवाद आदी पंगडांनी चालीक लांवच्यो.

१०. आपापल्या वाठारांत 'अंग्रेजी-हटाओ' कार्यावळीचीं वणटीपत्रकां आनी फलक वणटींचेर आनी हेर सुवातांचेर लावंचे. अंग्रेजी हटाओ साहित्य छापप, विकप आनी वांटप.

११. आपणाल्या सदांच्या वेव्हारांत आनी उलोवपांत गरजेभायर इंग्लीश उतरांचो वापर करप ना. हेर भाशांतलीं उतरां आपणाले भाशेंत हाडपाचो प्रयत्न करप.

❑❑❑



हे पुस्तिकेचे बरोवपी, डॉ. वेदप्रताप वैदिक, हांकां भारतीय भाशांच्या झुजाचें प्रतीक मानतात. तांणी 1966 त आन्तरराष्ट्रीय राजनितीवयलो सोद-ग्रंथ हिंदींत बरोवपाचो हट्ट केल्लो. ताका लागून तांकां "स्कूल ऑफ इण्टरनॅशनल स्टडीस" हे संस्थेंतल्यान काडून उडयल्लें.

तांणी फुडें हाडिल्ल्या प्रस्नावयल्यान सर्वश्री डॉ. राममनोहर लोहिया, अटलबिहारी वाजपेयी, आचार्य कृपलानी, हिरेन मुखर्जी, चन्द्रशेखर, भगवत झा आजाद, मधु लिमये, जॉर्ज फेर्नांदीश, प्रकांशवीर शास्त्री आदी मानेस्तांनी संसदेक हालोवन उडयल्ली. डॉ. सम्पूर्णानन्द, डॉ. झाकिर हुसैन, पं. दीनदयाल उपाध्याय आनी श्री. रामधारीसिंह दिनकर हांचे सारकेल्या व्हडा मनशांचोय आशिर्वाद तांकां मेळ्ळा. लागींलागसार सगल्या राजकी पंगडांनी तांकां तेंको दिल्लो. भारतीय भाशांच्या ह्या आगळ्या - वेगळ्या संघर्शाचो गाज देशाच्या खांचीकोनशांनी सादिल्लो.

डॉ. वैदिक हांचो जल्म 30 डिसेंबर 1944 दिसा इंदौरांत जालो. ते सदांच पयल्या वर्गांत येवपी विद्यार्थी आशिल्ले. दर्शन आनी राजनितीशास्त्र हे तांगेले मुखेल विशय. आन्तरराष्ट्रीय राजनिती ह्या विशयांत तांणी जवाहरलाल नेहरू विश्वविद्यालयांतल्यान पीएच्‌डी केली. चार वर्सां तांणी दिल्लींत राजनितीशास्त्र शिकयलें.

आपणाल्या अफघाणीस्थाना संबंदांच्या सोदकार्याच्या निमतान श्री. वैदिक हांकां न्यूयॉर्काच्या कोलम्बिया विद्यापीठ, लंडनाचे प्राच्य विद्यासंस्थान, मॉस्कोचीं विज्ञान अकादमी आनी काबुल विश्वविद्यालयांत शिक्षण घेवपाची खाशेली संद मेळ्ळी. आन्तरराष्ट्रीय राजनितीच्या जाणकारांमदीं तांकां खाशेली सुवात मेळ्ळ्या. तांणी सुमार पंचवीस देशांची भोंवडी केल्या. ते संस्कृत, हिन्दी, उर्दू, फारसी, रुसी आनी इंग्लेज भाशेचे जाणकार. ते आपणाल्या मूलभूत चिंतन आनी प्रभावी वक्तृत्वाक लागून नामना जोडून आसात.

इंग्लीश पत्रकारितेक जाप म्हणून तिजेपरस बरी हिंदी पत्रकारिता रुजोवपी मनशांमदीं डॉ. वैदिक हांचें नांव पयलें येता. 1958 त प्रूफरिडर ह्या नात्यान ते पत्रकारितेच्या मळार पयलेच फावट आयले. तांणी 12 वर्सां 'नवभारत टाइम्स' खबरांपत्रांत काम केलें. पयलीं सहसम्पादक आनी उपरांत सम्पादक (विचार) ह्या पदांचेर. सध्या ते 'प्रॅस ट्रस्ट ऑफ इंडिया' च्या हिन्दी समाचार समिती "भाषा"चे सम्पादक म्हूण काम करतात.

अफघाण विदेश निती, भारतीय विदेश निती, श्रीलंकेची तमीळ समस्या आनी हिन्दी पत्रकारिता ह्या विशयांचेर उजवाडा आयिल्ल्या डॉ. वैदिक हांच्या ग्रंथाक त्या विशयांवयलीं विश्वासपात्र पुस्तकां मानतात.

वैदिकजी ल्हान पिरायेरूच राजकारणांत क्रियाशील जावन वावुरल्यात. खुर्चेच्या राजकारणापरस परिवर्तनाच्या राजकारणाक तांणी चड महत्व आनी प्राधान्य दिलां. 13 वर्सां पिरायेचेर भाशेच्या प्रस्नावयल्यान तांकां पयले फावट बंदखणींत वचचें पडलें. ते उपरांत भास आनी विद्यार्थी चळवळी हांकां लागून तांकां जायते फावटीं मध्यप्रदेश आनी दिल्लीच्या बंदखणींनी रावचें पडलां. भाशेच्या स्वातंत्र्याबगर आमचें राजकी स्वातंत्र्य पुराय जावंक पावचेंना असो तांचो ठाम विस्वास आसा.

ISBN 81-85854-25-4